# जाग

वर्स २६ ◇ आंक १ ◇ ऑगस्ट १९९९



अजुन सरूंक ना संगर आमचें
लढचें आसा अजून खूब
लढले थकले कितलेय जरि तुमि
तरीय राखा पैली ऊब
सांखळयो तुटल्यो, बावटो बदल्लो
म्हणून रे स्वातंत्र्य येना
तें येवपा रे लावचो पट्टा
क्षणीक्षणीं ही प्राण पणा ...

- बाकीबाब बोरकार

# जाग

वर्स २६ ◇ आंक १ ◇ ऑगस्ट १९९९

संपादपी : रवीन्द्र केळेकार

वावुरपी संपादपी : माधवी सरदेसाय

उजवाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

अक्षर जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

छापपी : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

कवर चित्र : लइराई कंप्यू.


## ह्या आंकांत




| | | |
|---|---|---|
| वर्सुकी पटी | : | रु. १००/- |
| विद्यार्थ्यांखातीर | : | रु. ७५/- |
| तीन वर्सांची पटी | : | रु. २५०/- |

चेक वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
(चेक मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
धा रुपये अदीक जोडचे)

वेव्हाराचो नामो:

**जाग म्हयनाळें**
२०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव — गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल: रु. ९/-


## नदर संपादप्याची

### सोनिया गांधी

खंयचीय चली लग्न जावन घोवागेर गेली म्हणटकूच तिचें नांव बदलता. आडनांव बदलता. गोत्र बदलता. जातूय बदलता. फकत राष्ट्रीयता बदलना? बदलूंक जाय.

सोनिया गांधींची राष्ट्रीयता तुमचे आमचे इतलीच भारतीय अशेंच मानून चलूंक जाय.

पुणून प्रस्न उपरासता तो फकत तिचे राष्ट्रीयतेचो काय, तिच्या प्रधानमंत्रीपदाच्या दाव्याचो?

तुर्ताक तिची जी सायबाजात्रा चल्ल्या ती फुडल्या म्हयन्यांतले वेंचणुकेंत केन्द्रांत काँग्रेस जिखून आयली जाल्यार ती देशाची फुडली प्रधानमंत्री जातली अशें धरुनूच चल्ल्या.

एक खरें, नेहरू घराण्याची सून ती आनी नेहरू घराण्यान देशा खातीर 'खूब त्याग' केला! पुणून प्रधानमंत्रीपदाच्या दाव्याक इतलेंच हें भांडवल पुरो जाता व्हय? ल्हान सान देश न्हय हो. येवरोपा येदो व्हड. पांच धा हजार वर्सांचो इतिहास आशिल्लो. खाशेली अशी एक संस्कृताय आशिल्लो. ह्या इतिहासान आनी हे संस्कृतायेन ताचे हजार प्रस्न निर्माण केल्यात. सगळे घुसपा गोंदळाचे. एका तरी प्रस्नाचो सोनिया गांधीन विचार केला आसतलो? एक तरी प्रस्न तिका सारको कळ्ळा आसतलो? जवाहरलालांची नातसून जाली म्हूण तिका जवाहरलालांची विद्वत्ता, प्रतिभा, प्रज्ञा दायजान मेळ्ळ्या अशें म्हणूंक येना आनी इन्दिरा गांधींची सून जाली म्हूण तिका इन्दिराजींची राजकी सूझ-बूझ मेळ्ळ्या अशेंय म्हणूंक येना. दायजान तिका कितेंय घोवाचें मेळिल्लें आसूं येता. आनी घोवाचें कर्तुत्व आमी १९८९चे वेंचणुकेंत पळेलां: जी पार्टी सदांच सत्येर राविल्ली — केन्ना केन्ना 'थम्पींग मेजॉरिटी'नूय येताली — तिका ताणें 'सपशेल आपटी' खावयल्या.

जवाहरलाल ल्हाना समानांतले मनीस नाशिल्ले. गौरी शिखरा इतलेंच उत्तुंग व्यक्तित्व आशिल्ले ते आमचे एक नेते आशिल्ले. कबूल. पुणून तांणी 'त्याग केला' म्हणटात तो केदोसो? 'आनंद भवन देशाक दिलें, येदोच हिसपाक धरपाचो? काय, देशाक स्वातंत्र्य मेळचें म्हूण तांणी आयुष्य झरयलें, बंदखण भोगली, तीस वर्सां एका सारके होच एक ध्यास ते धरून बसले ह्या मापट्यान तो मेजपाचो? आनंद भवनाच्या त्यागान तांचो त्याग मेजलो जाल्यार तांकां आमी खूब ल्हान करतले. आनंद भवनाची तांकां गरज उरूंक नाशिल्ली. गरज नाशिल्ली वस्त कोणेंय दिवन उडयली म्हूण तो त्याग जायना. देशाक स्वातंत्र्य मेळचें म्हूण तांणी जिवीत झरयलें होच तांगेलो खरो त्याग म्हणूंक जाय. नेहरू घराण्यांतले खूब जाण आय.सी.एस्. जाल्यात. जवाहरलालांच्यानूय जावं येतालें. ते बॅरिस्टर आशिल्ले. 'प्रॅक्टीस' चलयल्ली जाल्यार लाखांनी जोडटले आशिल्ले. मोतीलाल जोडटाले. जवाहरलालांनी हें सगळें सोडून बंदखण वेंचून काडली.

पुणून, हो त्याग ह्या देशांत एकल्या जवाहरलालांनीच केला व्हय? राजेन्बाबून करूंक ना? वल्लभभाईन करूंक ना? राजाजीन करूंक ना? कृपालानी, जयप्रकाश, लोहिया हांणी करूंक ना? हांच्या कोणाच्याच येरदेरांनी सत्येचो कसलोच दावो केल्याचें आयकूंक मेळूंक ना. फकत जवाहरलालांचे करतात! ते करूं आशिल्ले. पुणून काँग्रेसींत आशिल्ले सगळेच करतात! इतलेंच न्हय तर, हो दावो करपाकूच देशांतले सगळे चोर फटींग, पाजी बदमाश काँग्रेसींत गेल्यात.

खरी गजाल अशी:

जवाहरलाल जे निसणीन वयर चडिल्ले ती निसण तांणी वयर पावनापुडें

खौंट मारून सकयल उडयली आनी सत्या हातांत घेतली. सत्या हातांत येवची म्हूण तांकां इतली ताकतीक जाल्ली की तांणी देशाचें विभाजनूय मान्य केलें. आनी सत्या आपणा हातांत सदांकाळ उरची म्हूण तांणी काँग्रेसिचो घरभाट जाल्ले वरी कमाइस्की केली. काँग्रेसींत आयज एक लेगीत तेजस्वी मनीस उरूंक ना. सगळे निर्वीर्य जाल्यात. 'हो आमचो प्रधानमंत्री जातलो' अशें म्हणून कोणाकूय मुखार काडात, कोण ताका वेंचून दिवपाचो ना. काँग्रेसींतल्या कोणाक देश आपणा फाटल्यान येतलो म्हणपाचो आत्मविस्वासूय ना.

मागीर? नेहरू घराण्यांतल्या कोणाकूय मुखार काडले बगर उपाय उरना. आयज सोनिया गांधी तांकां मेळ्ळ्या. फाल्यां प्रियंका वडेरा गांधी मेळटली. तिचे उपरांत तिगेलो पूत धूव कोणूय येतलीं.

'अजीब हैं (गोवा के न्हय) काँग्रेस के लोग', अशेंच म्हणूंक जाय.

## दिल्लींत कोणाचें राज्य चलता?

दिल्लींत कोणूय सत्येर आसूं, भाजपा आसूं वा काँग्रेस आसूं. राज्य भाजपाचेंय चलना, काँग्रेसचेंय चलना. चलता कोणाचें? सांगूंक येना.

पयर एकलो आमगेर पाविल्लो. जेवपाक राविल्लो. जेवता आसतना ताणें मदींच विचारलें, 'तुमगेर मीठ कसलें वापरतात?'

'सदचेंच... दर्याचें...' हांवें जाप दिली.

'बाजारांत मेळटा दर्याचें मीठ?'

'खबर ना. पुणून माडांक घालपा खातीर, लोणच्या खातीर पोरूं घेतिल्लें तांतलें घरांत वापरपा खातीर इल्लें चिनी बुयांवांनी भरून दवरिल्लें... तें अजून चलता.'

म्हणपाक लागलो, 'दर्याचें मीठ देशांत खंयच मेळना. दर्याच्या मिठाचेर सरकारान बंदी घाल्या...'

मागीर ताणें एक खबर सांगली —

'मिठाचेर इंग्रजांनी कर बसयल्लो. जें गरिबांचें सदचे गरजेचें, आज्या-पणज्या-शेणज्या सावन लोक जें खायत आयिल्ले ताचेर घाल्लो हो कर पळोवन गांधीजी उसळ्ळे आनी तांणी १९३०त एक व्हडलो सत्याग्रह करून देश पेटयलो. त्या मिठावयलो कर स्वराज्य सरकारान काडलो ना तो काडलो नाच, परतें, तें विकपाचेर आयज ताणें बंदी घाल्या... दर्याच्या मिठांत खंय आयोडीन नासता. आयोडीन नाशिल्लें मीठ खातकूच मनीस खंय दुबळो जाता...' ''विमला का बेटा न, डॉक्टर साहब कहते थे कि वह गर्भ में रहने से पहले माँ अगर आयोडीन नमक खाती तो वह तंदुरुस्त होता...'' हे तरेची जायरातूय सरकार टीवीवयल्यान करता...

आयोडीन मीठ खालें ना जाल्यार अशें जाता म्हणटात तें खरें न्हय म्हणपाचें डॉक्टर सांगतात. पत्रकार, विचारवंत, खासदार सांगतात... तें कित्याक, खासा प्रधानमंत्री लेगीत मानतात. तरी आसतना, मिठावयली बंदी उठना. ह्या अन्याया आड देश जागोवपा खातीर आमी दांडीच्यान (जंय गांधीजींनी मिठाचो सत्याग्रह केल्लो थंयच्यान) दिल्ली मेरेन एक पदयात्रा काडली... पयर एप्रिलाच्या पयल्या सप्तकांत आमी प्रधानमंत्री अटलजींक मेळ्ळे. आनी तांच्या हातांत एक निवेदन दिलें... अटलजींनी मन लावन तें वाचलें आनी आमकां विचारलें, 'पुणून मीठ विकपाचेर बंदी आसाच पयलीं खंय?'

'सरकारान घाल्या.' आमच्यांतल्या एकल्यान जाप दिली.

'आदल्या सरकारान घाल्ली. पुणून आमी ती काडली.' अटलजींनी म्हळें.

'ना...' आमी म्हळें.

'अटलजींनी शक्ती सिन्हाक विचारलें. शक्ती सिन्हा तांगेले सेक्रेटरी. तांणी जाप दिली, 'ना, बंदी काडपाचो निर्णय अजून सरकारान घेवंक ना... बंदी चलता...'

आमच्यांतल्या एकल्यान म्हळें, 'आयज मीठ खंयूय काडटले म्हळ्यार रेल्वे वॅगनी मेळनात. आयोडीन मीठ आसत जाल्यारूच वॅगनी मेळटात... आनी बाजारांत जें मीठ पन्नास पयशांनी एक किलो मेळटालें, तें टीवीर तरांतरांच्यो जायराती दाखोवन, लोकांक भेश्टावन, प्लास्टीकचे सुंदर पिशवेंत घालून वेपारी स रुपये किलो मोलान विकतात... १०० कोटी लोकांचो हो देश दर वर्सा अडेच हजार कोटी रुपये फुकट होगडायता...'

अटलजींच्या कपलाक मिरयो पडल्यो. तांणी शक्ती सिन्हांक विचारलें, 'बंदी काडची म्हूण निर्णय घेतिल्लो न्हय आमी? बंदी अजून कित्याक उठूंक ना?'

'हो निर्णय घेवपाक स्वास्थ्य मंत्रालय एक मिटींग घेवपाचें आशिल्लें... ती मिटींग अजून जावंक ना...'

'कित्याक जावंक ना...?'

'मिटिंगेची तारीक सगळ्यांक अनुकूल नाशिल्ली...' आनी तांणी हेंयूय सांगलें, 'मध्य प्रदेश हायकोर्टाचे ग्वाल्हेर बेंचीन बंदिच्या निर्णया अर्दान मत्त दिलां...'

आमच्यांतल्या एकल्यान म्हळें, 'दिल्लें आसत. पूण देशांतल्या दुसऱ्या कांय हायकोर्टांनी 'स्टे' दिला...'

आमी म्हळें, 'आयोडीन मिठाचेर बंदी घालात, अशें सांगपाक आमी येवंक नात... आदल्या मिठावयली बंदी काडात, इतलेंच सांगपा खातीर आयल्यात. बाजारांत तें आदले वरीच मेळूंक जाय... सरकारान आयोडीन मिठाचो प्रचार जाय जाल्यार करचो, पुणून कोणाकूच तें बळयां खावंक लावचें न्हय...'

'आयोडीन मिठाचो प्रचार आमी कित्याक करतले? तें आमचें काम न्हय...' अटलजींनी म्हळें.

'अशें तुमी म्हणटात, पुणून दूरदर्शनाचेर आयोडीन मिठाचो प्रचार चलता तो कोण चलयता?...' 'विमला का बेटा' म्हूण जो एक विकलांग भुरगो दाखयतात ताका पळेतकूच खंयची आवय आयोडीन मीठ खावची ना?...' आमी म्हळें.

शक्ती सिन्हान म्हळें, 'आमी चौकशी करतात. दूरदर्शनाचेर असली जायरात येवची ना...'

अटलजींनी 'हय' म्हळें.

आमी म्हळें, 'मिठा वयली ही बंदी काडची म्हूण आमी सरकाराक तरांतरांनी सांगलें. कांय राज्यांनी 'स्टे' हाडलो... सगळे उपाय घेतले. आतां फकत एकूच उपाय उरला, उपास करून प्राण सोडपाचो...'

'शी, शी... उपास कित्याक करूंक जाय?... गरज ना...' अटलजींनी म्हळें.

आमी उठले तेन्ना तांकां विचारलें, 'आमच्या सांगातान जे वावुरल्यात तांकां आमी आतां कितें सांगचें?'

'सरकाराची दानत स्वच्छ आसा म्हूण सांगात' अटलजींनी जाप दिली. 'बंदी उठ्ठली... कांय पावलां आमी उखलल्यांत... कितेंय उरलां आसत जाल्यार तेंय सरकार पयस करतलें...'

तांचेकडेन जाल्ल्या उलोवण्याचो आमी एक रिपोर्ट तयार केलो आनी तांच्या तिगूय सेक्रेटरींक फॅक्सान धाडून दिलो. आनी हातूंत कितेंय बदल करपाचे आसत जाल्यार फॅक्सान कळयात म्हूण सांगलें. एप्रिलांतली खबर ही. चार म्हयने जाले. प्रधानमंत्र्याकडल्यान आमकां कसलीच सुचोवणी येवंक ना. उपरांत अटलजींचें सरकार पडलें. तांचेंच 'कॅरटेकर' सरकार आयलें. कारगिल प्रस्नांत कितें करचें, कितें न्हय हे विशिंचे ते निर्णय घेतात... फकत मिठाकडेन पावतकूच खंय घुसपता, समजना. कोणाकोणाचे स्वार्थ खंय खंय घुसपल्यात, देव जाणा... इतलें खरें, दिल्लींत सरकार

भाजपाचें चलना... फाल्यां काँग्रेसचें आयलें जाल्यार काँग्रेसचें चलतलें म्हणपाचेंय खरेपण ना. सरकारी खातीं चलतात तीं पळेतकूच हीं आमचीं सरकारां चलयतात काय आनीक कोण चलयतात, असोच प्रस्न पडटा.'

* * *

पयर गोंयचे विधानसभेंत सरकारान मिठावयली बंदी काडली म्हूण विक्टोरियाबायन सरकाराक परबीं दिल्ल्याचें वाचलें तेन्नाच मिठावयली बंदी गेली म्हणपाचें कळ्ळें. जावं, बेटर लेट दॅन नेव्हर. पुणून, आयोडीन मिठाच्यो जायराती बंद केल्यात व्हय? 'विमला का बेटा' अजुनूय टीवीर दिश्टी पडटा. हालिंसाराक एका 'राजपुत्रा'चीय भर पडल्या.

दर्याचें मीठ आतां बाजारांत मेळटलें. पुणून लोक मात आयोडीन मिठूच खातलो.

## भारतांतल्या मुसलमानांचो फुडार

दोन खेपे पाकिस्तानान आमच्या देसाचेर आगळीक केली आनी दोनूय खेपे ताका मान खाला घालून हार खावची पडली. तरी आसतना तें पर्थून तिसरे खेपे फुरफुरून आयलें आनी तिसरे खेपे आगळीक केली. हेय खेपे ताका लज जावन वचचें पडलें.

अंतरराष्ट्रीय लोकमत्तूय ताचे करणे आड गेलें.

आतां, धरुंया, आमी पाकिस्तानाक म्हळें, 'तुजीं हीं किजिलां चल्ल्यांत तीं फकत काश्मीराक लागून मू? चल, दिवन उडयतात आमी तुका काश्मीर.' जाल्यार भारत-पाक संबंद निवळटले व्हय?

पन्नास वर्सां पयलीं आमी हिन्दू-मुसलमानां मजगतचे संबंद निवळचे म्हूण पाकिस्तान मान्य केल्लें. हिन्दू-मुसलमान संबंद निवळूंक नात. जो प्रस्न भितरले भितर सोडोवपा सारको आशिल्लो -- भितरले भितरूच समन्वयान सोडोवंक जाय आशिल्लो -- तो प्रस्न आमी पाकिस्तान मान्य करून अंतरराष्ट्रीय मळार व्हरून सोडलो. आनी आमचे भितर लावालावी लावपी भायल्या शक्तिंच्या हातांत तो काडून दिलो!

काश्मीर पाकिस्तानाक दिलें जाल्यार हेंच जातलें. काश्मीर हातांतलें वतलें. भारत-पाक संघर्श मात चलत आयला तसोच चलत रावतलो.

काश्मीर पाकिस्तानाक दिवन भारत-पाक संबंद निवळपाचे नात, तशे पाकिस्तानान घेतिल्लें काश्मीर धेवनूय निवळपाचे नात. तें कित्याक, पाकिस्तान जिखून तें परतें हिन्दुस्तानाक दसयलें जाल्यारूय निवळपाचे नात. कित्याक?

आमी मानतात तसो हो प्रस्न निखटो 'राजकी' न्हय म्हूण. मुदलांत हो संस्कृतायेच्या मळावयलो एक व्हड प्रस्न म्हूण. आनी संस्कृतायेच्या मळा वयले खंयचेच प्रस्न राजकी पांवड्या वेल्यान केन्नाच कोणाक आयज मेरेन सोडोवंक येवंक नात.

* * *

धरुंया, हिन्दुस्तानांतल्या मुसलमानांनी पाकिस्तानाक एका ताळ्यान सांगिल्लें—

'फकत काश्मीरांतल्याच मुसलमानांचो सो हुसको काडटात तुमी? हिन्दुस्तानांत आमी नात व्हय? पाकिस्तानांत आसात ताच्याकूय चड मुसलमान हिन्दुस्तानांत आसात. आमकां, आमच्या धर्माक, आमचे संस्कृतायेक हांगा कोण्ण कांयच करपाचो ना. हिन्दू असूं आमचे परस संख्येन व्हड. पुणून ते जाणात, देश जितलो तांचो तितलोच आमचोय बी... हिन्दू आमचे व्हडले भाव. आमच्या वायटाक पडत अशें कितेंच करपाचे नात... काश्मीरांतले मुसलमान आमचे वांगडा रावतले. जंय आमी थंय ते. तांचो हुसको तुमी काडपाची गरज ना...'

जाल्यार, पाकिस्तानाचें काश्मीरा विशिंचें राजकर्ण चलत आयलां तशेंच चलत रावतलें आशिल्लें? पाकिस्तानांतल्या मुसलमानांचे कितलेशे सोयरे हिन्दुस्तानांत आसात. तितलेच हिन्दुस्तानांतल्या मुसलमानांचे सोयरे पाकिस्तानांत आसात. तांकां बादत असलें राजकर्ण खेळपाचो पाकिस्तानाक धिरूच केन्ना जावचो नाशिल्लो.

एक गजाल घट्ट बरी लक्षांत दवरिल्ली बरी—

हिन्दुस्तान पाकिस्तान दोनूय कडल्या मुसलमानांक हिन्दू जितले लागिंचे तितले इराण, इराक, तुर्कस्तान, अरेबिया हांगासल्ले मुसलमान लागिंचे न्हय. इस्लामी देशांतल्या लोकांचो धर्म एक आसूं. संस्कृताय सगळ्यांची एक न्हय. पाकिस्तानांतलो मुसलमान अरबस्तान वा तुर्कस्तानांत वचून रावलो जाल्यारूय जांवय वा सून हाडपाक तो पाकिस्तानांत वा हिन्दुस्तानांत येतलो आनी हांगाच सोयरीक जुळोवन वतलो. पाकिस्तान हिन्दुस्तान दोनूय कडले मुसलमान रगतान एक हें सत्य दोळ्यां आड करूंक फावना. करूं मागीर ते कितलोय दुस्वास एकामेकांचो. एका रगताचे दायजीय सदां एकामेकांचो दुस्वास करतात.

एक खरें, हिन्दुस्तानांतले मुसलमान 'तुमी काश्मीरांतल्या मुसलमानांचो हुसको करूं नाकात... ते आमचे वांगडा आसतले' अशें पाकिस्तानाक सांगिनात. कित्याक? मात्शें चिंतून पळोवचें म्हणटकूच, हिन्दू-मुसलमानांचो प्रस्न – भारत-पाकिस्तान प्रस्न – काश्मीरचो प्रस्न – खंय घुस्पला तो लक्षांत येतलो.

हिन्दुस्तानांतलो मुसलमान आपूण हिन्दुस्तानांत सुगूर आसां अशें पाकिस्तानाक सांगिना तें एकाच कारणाक लागून -- ताका आपूण हिन्दुस्तानांत सुगूर आसां अशें खरेपणानशीं दिसना. हिन्दुस्तानांतलो मुसलमान हिन्दूंक थर्त भियेता. एक तर तांची संख्या कोणाकूय थरथरो हाडीत येदी प्रचंड म्हूण. आनी दुसरें, फाटल्या पन्नास वर्सां सावन हिन्दू ताका भेश्टावपाचे एका सारके यत्न करीत आयल्यात म्हूण. हिन्दूंनी तांगेली बाबरी मशीद मोडून मातयेभरवण केल्या. तिवूय येद्या किंवाट्यान कीं तो पळोवन मुसलमानांकूच न्हय, तर येवरोपांतल्या किरिस्तांवांक लेगीत थरथरो भरलो. तें कित्याक, हिन्दूंक लेगीत भरलो. उपरांत ते काशी मथुरेंतल्या मशिदिंचेर नदर लावन बसले. इतलेंच न्हय, तर आमी ह्यो मशिदी मोडटले म्हळ्यार मोडटलेच अश्यो घोशणाय मोट्या मोट्यान दीत रावले.

हे परिस्थितींत आपूण ह्या देशांत सुगूर आसां – आपणाक कांयच जावपाचें ना – अशें कशें दिसतलें हांगासल्ल्या मुसलमानांक? मुसलमानूच न्हय, किरिस्तांवूय आपणाक ह्या देशांत सुगूर मानपाचे नात. बौद्धूय मानपाचे नात. हिन्दुंच्या भंयान ते एके वटेन चडांत चड संघटीत जायत रावतले आनी दुसरे वटेन आपणाले कैवारी भायल्या देशांनी सोदतले आनी तांचेर चडांत चड निंबून रावतले.

हिन्दुस्तानांतलो मुसलमान 'प्रो-पाकिस्तानी' सो दिसता तो हे खातीर. पाकिस्ताना कडेन तो आपणालो कैवारी म्हूण पळेता. ताका प्रो-पाकिस्तानी मानून तुमी धरुंया, ताका सांगलें, 'बाबा रे, तूं हांगा घुसमट्टा कित्याक? तूं पाकिस्तानांत वतलो जाल्यार पावयतात आमी व्हरून तुका थंय... ऊठ, तयारी कर वचपाची', जाल्यार, तो पाकिस्तानांत वचपाक तयार जातलो व्हय? केन्नाच ना. तो हांगाच रावतलो आनी हांगा रावनूय आपणाक ह्या देशांत सुगूर मानचो ना. हाचो अर्थ कितें जालो?

राजकी प्रस्न न्हय हो, इतलोच न्हय? सायकॉलॉजिचो प्रस्न हो. तो सायकॉलॉजिच्या उपायानूय सोडोवंक जाय. जो भियेता तो एक तर भेंक्रो जाता वा मारखुरो जाता. आत्मरक्षेचीं आगत्राणां हीं दोनूय ताचीं हें लक्षांत धरूंक जाय.

धरुंया, तुमी वाटे वयल्यान वतात. मुखा वयल्यान एक बैल येता.

सामान्यतायेन बैल कोणाचे वाटेक वचना. तुमचेय वचचो ना. तुमी भियेनासतना ताच्या म्हन्यांतल्यान गेले जाल्यार तो तुमकां कांयच करपाचो ना. पुणून, धरुंया, तुमच्या हातांत ताणें तोणको पळेलो. जाल्यार तो तुमच्या तोंडाकडेन पळेतलो. तुमी ताका भियेल्यात म्हणपाचो ताका दुबाव आयलो जाल्यार तो मनांत म्हणटलो, 'हो म्हाका पळोवन भियेला... आनी हाच्या हातांत तोणको आसा. हो म्हाका मारतलो.' मारतलो म्हणपाचो दुबाव येनाफुडें एक तर तो पळून वतलो वा तुमच्या आंगार धांवन तुमकां शिंगार घेतलो. आत्मरक्षा तो दुसरे कसले तरेन करतलो? मुसलमानाचें हेंच जालां. तो हिन्दूंक भियेवन संघटीतूय जाला, तेच बराबर मारखुरोय जाला.

हिन्दुस्तानांतल्या मुसलमानांचीच ही गत्त जाल्या अशें न्हय. पाकिस्तानाचीय हीच गत्त जाल्या. ताणें चीनाक आपणालो कैवारी इश्ट कित्याक मानला तर? तो हिन्दुस्तानाक थर्त भियेता म्हूण न्हय व्हय?

हिन्दू बदलूंक जाय. हिन्दू बदल्लो ना जाल्यार मुसलमानूय बदलपाचो ना. किरिस्तांव, शीख, बौद्ध कोण बदलचो ना. हिन्दू झगडाळ जाले – आपणाक जाय तेंच करतले अशे म्हणपाक लागले जाल्यार मुसलमान, किरिस्तांव, शीख, बौद्ध सगळे आपणालें उपद्रवमोल – न्यूसंस वेल्यू – वाडयत वतले आनी हिन्दूंक जाय तें केन्नाच करूंक दिवचे नात. हिन्दू आयज आसा तसोच उरतलो ते मेरेन मुसलमानूय आयज आसा तसोच उरतलो. किरिस्तांव, शीख, बौद्ध होवूय मुसलमानां सारकोच जातलो. हिन्दू उदार जावंक जाय. शाणो जावंक जाय. हांच्या राज्यांत आमचें कांयच वांकडें जावपाचें ना, अशें मुसलमानांक मनापसून दिसूंक जाय. तेन्नाच—

हिन्दू मुसलमानांचो प्रस्न, हिन्दुस्तान पाकिस्तानाचो प्रस्न, काश्मीरचो प्रस्न सुटपाक मात पसून कळाव लागचो ना. मागीर हिन्दुस्तानांतले मुसलमानूच पाकिस्तानाक वचून सांगतले – खूब झगडले आमी इतलीं वर्सां. आतां आमचे संबंद बदलुंया. दोनूय देश एकठांय हाडून तांचो एक महासंघ घडोवया. आमच्या ह्या महासंघांत मागीर बांगला देश, श्रीलंका, नेपाळ, भूतान – आयज जांकां आमी 'सार्क' देश म्हणटात – ते सगळे देश येतले. आनी इतलीं वर्सां आमचे मजगतीं चलिल्ले सगळे संघर्श सासणाचे सोंपतले.

दोन जर्मनी एकठांय येवंक नात व्हय? इंग्लंड, फ्रांस, जर्मनी एकामेकांचे हाडवैरी आयज एकठांय येवंक नात व्हय? आमच्यांनीय येवं येता. काल पयर मेरेन आमी एकठांय आशिल्ले. कांय राजकी अपघातांक लागून आमी एकामेकां पसून वेगळे सरल्यात. आतां नव्या रुपान – फेडरेशनच्या रुपान – एकठांय येवंया.

'सपन' आसत हें एक. पुणून सपनां पळोवपाची शक्ती आमी होगडावन बसल्यात व्हय? सपनांच देश वयर काडटात. सपनांच नवो नवो इतिहास घडयतात.

***

सांगपाक मन फाटींफुडें सरता. सट्ट करून कोणूय अपसमज करून घेत म्हूण.

धरुंया, आमी आपूण जावन वा अंतरराष्ट्रीय दाबाक लागून काश्मीर पाकिस्तानाक दिवन उडयलें जाल्यार—

हिन्दुस्तानांतल्या मुसलमानांचें कितें जातलें? ते आयज जियेतात तशेच जियेवंक पावतले? 'अल्ला ताला' लेगीत तांची राखण करूंक पावपाचो ना. तांकां राखप ताच्याय हाता भायर वतलें.

आतां मुसलमानांनीच पाकिस्तानाक सांगूंक जाय, सगळ्या मुस्लीम देशांक सांगूंक जाय (आनी पाकिस्तान जांकां मध्यस्थे खातीर मुखार काडटा तांकांय सांगूंक जाय) –

काश्मीरी मुसलमानां वांगडाच आमी रावतले. तुमी काश्मीर घेवन वतले जाल्यार आमकांय सगळ्यांक पाकिस्तानांत घेवन वचात. ना जाल्यार आमची अमेरिकेंत, कॅनडांत, अरब देशांत खंयूय व्यवस्था करात. भारतांत आमकां कोण दवरपाचो ना.

## तॉलस्तॉयचो प्रज्ञावाद – २

### आडखळी हाडपी संस्कार

मनशांतल्या आध्यात्मीक अंशाचे उक्तावणेक आडखळ हाडपी स संस्कार आसात अशें तॉलस्तॉय म्हणटा.

कुडिच्यो मुळाव्यो गरजो भागोवप, एक. ह्यो गरजो भागोवपा खातीर खासा आपणें कश्ट करपा बदला दुसऱ्यांक आपणा खातीर कश्ट करूंक लावप, दुसरो. आयच्योच न्हय, तर फायच्योय गरजो भागच्यो म्हूण आयजूच तजवीज करून दवरप, तिसरो. आपणा खातीर जे कश्ट करतात ते सदांकाळ आपणा सुवादीन उरचे म्हूण तांचेर शेक चलोवप, चौथो. सदांच वैभवांत लोळूंक मेळचें म्हूणं तजवीज करून दवरप, पांचवो. आनी कुडिच्या आनी मनाच्या बळांक चेतोवपी, उचांबळ करपी अडेचे उपाय करप हो सवो.

सवूय संस्कारांचे तीन थर आसात–

एक, मुदलांतलो. दुसरो, जाणटेल्यांकडल्यान दायजान मेळिल्लो आनी तिसरो, खासा आमीच केळोवन काडिल्लो.

मुळाव्यो गरजो भागोवच्योच पडटात सगळ्यांत. कुडीक पोसवण दिवपा खातीर आनी कूड बलायकेन बरी उरची, अखेर मेरेन काम करीत अशी घटमूट जावची हे खातीर मनशाक खावंक पियेवंक मेळूंक जाय. पावस, शीं, ओता पसून आंग धांपपा-पांगुरपा खातीर ताका न्हेसूंक पांगरूंकूय मेळूंक जाय. आनी तीनसांज जातकूच 'सूऽ म्हज्या घरा' अशें म्हणून जमनीर फाट तेंकोवंक मेळचे खातीर ताका आसरोय मेळूंक जाय. अन्न उदक लुगटा वरी घर मठीय मनशाचे गरजेची. ह्यो ताच्यो मुळाव्यो गरजो भागोवपाचो तो सदां यत्न करीत आयला.

साद्या अन्नान आनी उदकान ताची भूक तान भागूं येताली. कुडीक तितल्यान पोसवणूय मेळूं येताली. पुणून मनीस तितल्यान केन्ना धादोशी जाला व्हय? जेवण पिवण बऱ्याक पडटा असलेंच न्हय, तर बरें लागता असलेंय मेळोवपाचो तो यत्न करीत रावला. जिबेक बरें लागता असलें जेवण पिवण कशें तयार करचें हाचे उपाय ताका आदले पिळगेनूय दाखयल्यात, शिकयल्यात. ते भायर, ताणेंय नवे नवे सोदून काडल्यात. साद्या लुगटान ताच्यान कूड धांपूं-पांगरूंक येताली. पुणून हांगाय तो तितल्यान धादोशी जायना. तरेतरेचे भेस, तरांतरांच्यो फॅशनीय तो सुरू करता. तसो, साद्या घरांत रावपा बदला चक्क बऱ्या दोन दोन, तीन तीन माळयांच्या कितल्या-श्या कुडिंच्या म्हालांनी रावपाक आंवडेता. आनी म्हाल बांदुनूय घेता. मुळाव्यो गरजो निखट्यो भागल्यो म्हूण जायनात. त्यो भागयता आसतना ताका सुखूय मेळूंक जाय म्हूण तो आंवडेता. आनी सूख वाडोवपाचे तो यत्नूय करीत रावता.

मनशांतल्या आध्यात्मीक अंशाचे उकतावणेक बादा हाडपी ही एक व्हडली आडखळ, अशें तॉलस्तॉय म्हणटा. तो सांगता, पोंद नाशिल्ल्या आयदनांत अमृत हाडून ओतलें तरूय ताचो एक लेगीत थेंब आयदनांत उरना, तश्यो गरजो कितल्योय भागय, केन्नाच भागूंक पावनात.

दुसरें, गरजो भागोवपा खातीर स्रम करूंक जाय. स्रम करतकूच मनशांक विस्रामूय मेळूंक जाय. पुणून मनीस स्रम आनी विसव वेगळे करता आनी

स्रमा परस ताका विस्रामूच चड आवडूंक लागता. विसव जाता तितलो अदीक मेळचो म्हूण तो यत्नूय करूंक लागता. पुणून, खासा ताणें स्रम केले नात जाल्यारूय ताचे खातीर दुसऱ्यांक कोणाक तरी स्रम करचे पडटात. मनीस हें जाणा. म्हूण तो दुसऱ्यांकडल्यान स्रम करून घेता.

मागीर जाता कितें?–

स्रम करपाची आंगांत तांक आसून लेगीत, स्रम करप ताच्याच बऱ्याक गरजेचो आसून लेगीत तो स्रम करिना, दुसऱ्यांच्या स्रमाचो गैरलाव घेता आनी, हे भाशेन, आळशी लोकांचो, बेंदल्ले वरी परजीवी, जळवां सारको दुसऱ्यांचें रगत लुंचपी गिरेस्तांचो एक वर्ग समाजांत वयर सरता; तर दुसरे वटेन, दुसऱ्यां खातीर मरऽसर स्रम करून लेगीत अर्द-पोटार वा उपाशीं रावपी गरीब दुबळ्यांचो आनीक एक वर्ग निर्माण जाता. एके वटेन शोषक तर दुसरे वटेन शोषीत अशे जे दोन वर्ग समाजांत निर्माण जाल्यात ते आमच्या ह्या स्रम करी नासतना दुसऱ्यांकडल्यान स्रम करून घेवपाच्या संस्काराक लागून.

मनशांतल्या आध्यात्मीक अंशाक जाग हाडपाक हो संस्कार व्हडांतली व्हड एक आडखळ जावन बसला. एक खरें, सगळ्यांनी आपणालीं सगळींच कामां खासा आपणेंच करूंक जाय अशें ना. समाजांतल्या सगळ्यांक कामां वांटून दिवंक जाय. म्हणटकूच, कामां सोंपे आनी बरे तरेन जावंक पावतात. पुणून, हाचो अर्थ समाजांतल्या कांय जाणांनी स्रम चुकोवंक जातात असो करूंक येत व्हय? कठीण कामां सोडून सोंपीं कामां घेवचीं असो नेम करूं येत व्हय? सगळेच स्रम चुकोवपाक लागले, कठीण कामां बदला सोंपी कामां घेवन बसपाक लागले जाल्यार स्रम कोणें करपाचे? कामांची वांटणी न्यायाचेर आधारून करची जाली जाल्यार, समाजांतल्या जण एकल्यान स्रमाचें खंयचें-न्हय-खंयचें काम करूंकूच जाय. स्रम चुकोवन मनीस विसव घेना तेन्ना विस्रामाची खोसूय तो भोगूंक पावना. स्रम जितलो उणो तितलो विस्रामाचो आनंदूय उणो.

बाकिचे जीव स्रम करून जियेतात तशें मनशानूय स्रम करून जियेवंक जाय. जाल्यारूच तो बलायकेन बरो आनी आंगान घटमूट उरूंक पावतलो. मनशान आपणाल्यो थोड्यो तरी गरजो स्रम करुनूच भागोवंक जाय. समाजांत सगळे कसलो-न्हय-कसलो उत्पादक स्रम करून जियेवपाक लागले जाल्यार तांच्या ह्या स्रमाचीं फळां समाजांत इतलीं जमा जातलीं की तांकांच न्हय तर समस्त दुबळ्या अशक्त लोकांच्यो गरजो भागोवपा इतलें सगळ्यांक मेळत रावतलें. फायचो हुसको करूं नाका, सुकण्या शेवण्या भाशेन हुसक्या मेकळो जियेवंक लाग अशें 'नव्या तेश्तामेंतां'त येशून म्हळां तें रूपक न्हय, सैमाच्या एका सत्याचें निवेदन तें. सगळ्यांक पोसवण मेळपा इतलें सैम सदां कितें-न्हय-कितें निर्माण करीत आयलां. तुकाच एकल्याक तें कित्याक विसरतलें? शेवण्यां सुकण्यां परस तुजें मोल सैमाक उणें व्हय तर? देखून फायचे हुसके सोडून दी.

पुणून मनीस 'आपलें आपणेंच पळोवंक जाय', 'जिवीत आयज आसा, फाल्यां ना' ह्या संस्कारांत वाडला. देखून, तो आयजूच फायच्यो आनी आपणा वांगडा आपणाल्या घरच्या सगळ्यांच्यो गरजो भागोवपाच्यो तजविजो करीत आयला. हो 'आशेभगताचो वावर'.

फायच्यो गरचो भागच्यो म्हूण मनीस जें एकठांय करून दवरता तें ताका दुसऱ्यांपसून सांबाळचें पडटा. गरचेच्योच न्हय, तर गरज नाशिल्ल्योय गजाली तो एकठांय करता आनी सांबाळून दवरता. एकठांय करपाच्या, वाडोवपाच्या, सांबाळून दवरपाच्या ह्या वावरांत ताचें पुराय आयुश्य खर्चता. इतलेंय करून ताचो हेतू तडीक वता व्हय तर? मरण केन्ना येवन ताका घेवन वचत हाचें खरेपण ना. जो फुडार येवंक ना, कोणें पळोवंक ना, जो पळोवंकूय येना ताचो हुसको करून मनीस सारको जियेवंकूय पावना; सामको आपल्या वांदडाचो जावन पडटा.

ही ताच्यांतल्या आध्यात्मीक अंशाक उकताडा हाडपाच्या वावरांतली आनीक एक आडखळ.

मनशाच्यो मुळाव्यो गरजो सोंपेपणान भागूंक पावनात. त्यो भागयता आसतना ताका दुसऱ्यांकडेन संघर्श करचो पडटा. जांचेकडल्यान तो आपणालीं कामां करून घेता ते सदांकाळ आपणाल्या शेकातळा उरचे म्हूण तो तांचेर आपणाली सत्या चलोवपाक लागता. दुसऱ्यांक आपणा सुवादीन दवरपांतूच आपणालें बरें भलें आसा असो ताचो समज जाता आनी ते सदांकाळ आपणा सुवादीन उरचे म्हूण तो तरांतरांची बळां वापरूंक लागता. वांगडा, दुसरेय आपणाक आपणा सुवादीन दवरपाचो यत्न करीत म्हणपाचेंय तो पळेता. तांचेय आड ताका झुजचें पडटा. दुडवांकार, वेपारी, जमीनदार, राजा (सत्येर आशिल्ले) आपणाली सत्या तिगून उरची म्हूण सदांच जागरूक रावतात आनी सदांच लोकांकडेन नवीं नवीं झगडीं मोलावन घेतात. कोण दुसऱ्यांच्यो जमनी खाता. (राजा दुसरीं राज्यां जिखता.) कोण दुसऱ्यांक नाडटात. कोणाक मेळूंक नात असल्यो पदव्यो जोडून आपूण सरसमानां परस वेगळो, वयल्या पावंड्याचो म्हूण दाखोवप होय अवगूण ह्याच (दुसऱ्यांचेर सत्या चलोवपाच्या) संस्कारांतल्यान जल्माक आयला. आपणाली सत्या संपत वाडोवपा खातीर खासा आपणाल्याच सांगात्यांकडेन संघर्श करप होय अवगूण ह्याच संस्कारांतल्यान जल्माक आयला.

तॉलस्तॉय म्हणटा, आपणाली सत्या वाडोवपाच्या वावरांत मनशाक सदां पशुबळाचो वापर करचो पडटा जाल्ल्यान तो मोगान दुसऱ्यांक जिखपा बदला दुसऱ्यांक आपणाले प्रतिस्पर्धी वा दुस्मानूच अदीक करून घेता. दुसरो आपणाक खावचो ना मू, दुसरो आपणाक जिखचो ना मू, दुसरो आपणाक आपलो बंदो करचो ना मू, ह्या भंयातूच ताका दीस काडचे पडटात. आनी सदांकाळ तो उचांबळितूच उरता.

दुसऱ्यांचेर सत्या चलयता तो आपूण केन्ना स्वतंत्र जावंक पावना. ह्या सत्या चलोवपाच्या संस्कारांतल्यान मनीस मेकळो जाले बगर तो धर्तरिर स्वर्ग निर्मुपाचें काम केन्ना करूंक पावपाचो ना.

होय संस्कार मनशांतल्या आध्यात्मीक अंशाचे उकतावणेक आडखळिचो जावन बसला.

मनीस सुसंगीत, सुखाचें जिवीत जियेवंक आंवडेता. देखून सुखां जोडपाच्यो ज्यो ज्यो माण्ण्यो करूं येतात तितल्योय तो करता. आनी एक दीस सुखांचो बंदो जाता.

सुखांत संभोगाचें सूख व्हड. वंश मुखार चलूंक जाय म्हूण मनीस संभोग घेता आसत. पुणून संभोग घेता आसतना तो वेगळेच एके कडेन पावता. संभोगांत जो आनंद मेळटा तोच जोडपाक तो संभोग घेता. वंश मुखार चलोवप हीच ताची मोख आशिल्ली जाल्यार एक भुरगें जायनाफुडें तो संभोग घेवपाचो थांबयतलो आशिल्लो. केन्ना थांबना. हाचो अर्थ संभोगाचो हेतू तो सांगता तो – वंश मुखार चलोवप हो न्हय. रतिसूख घेवप होच ताचो खरो हेतू आसता.

संभोग ही कुडिची एक 'गरज' अशेंय तो केन्ना केन्ना म्हणटा. पुणून बाकिच्यो गरजो भागूंक पावल्यो नात – देखीक, जेवण खाण मेळ्ळें ना, उदक पिवण मेळ्ळें ना जाल्यार मनीस जियेवंक पावचो ना. मरतलो. तसो संभोग घेवंक मेळ्ळो ना म्हूण तो मरपाचो आसा व्हय? संभोगा पसून पयस राविल्ले ब्रह्मचारी संवसारांत कितलेशे आसात. थोडे आसूंत मागीर ते. कोणूच मरूंक नात. सगळेच ब्रह्मचारी जाल्यार मनीस जात निर्वंश जातली म्हूण भियेवपाचें कारण ना. सगळेच ब्रह्मचारी जावपाचे नात. प्रस्न तुजो, धर्तरिर स्वर्ग निर्मूंक भायर सरला ताचो. स्वर्ग सोड – देश गुलाम आसलो आनी तो स्वतंत्र जाल्लो तुका जाय आसलो, स्वातंत्र्या खातीर तूं वावरूंक सोदता आसलो, तुर्ताक चलता ती अन्यायी

समाजवेवस्ता मोडून तिचे सुवातेर नवी न्यायाची, समतेचेर आदारिल्ली समाज वेवस्ता घडोवपाच्या वावरांत आपणालो हातभार लागचो अशें दिसता आसत जाल्यार तुज्यांतल्या ध्येयवाद्याक घरसंवसाराच्या, बायल भुरग्यांच्या जवंजाळांत आपणाक घुसपावन घेवप पुटवपाचें ना, इतलें तुवें लक्षांत घेवंक जाय. दोनूच वाटो तुजे मुखार आसात — घरसंवसारांत घुसपऽनासतना समाजाखातीर, देशा खातीर, संवसारा खातीर. क्रान्ती खातीर करूंक जाय त्यो लागणुको करपाक जिवीत ओंपप, वा, आपूण दुबळो, आपणाक ब्रह्मचर्य पेलपाचें ना अशें मानून लग्न जावप, भुरगीं जल्माक घालून, तांकां ल्हानाचीं व्हड करून तातूंत धादोशी रावप आनी समाजा विशिंच्यो तुज्यो लागणुको तुज्या भुरग्यां भितरलो कोणूय पुऱ्यो करतलो हे आशेर जियेवप.

गुरवाचार आडावपाचे कांय कृत्रीम, अडेचे उपाय आयल्यात. पुणून ह्या उपायांनी घोव-बायल दोगांय आपणाल्या विकारांचीं बंदी जातात आनी दोगांयचो व्यभिचाराचो मार्ग मेकळो जाता. बळयां ब्रह्मचर्य घेतिल्ल्यान मनशांत विकृती येता ते विकृती परस ही विकृती समाजाचे नदरेन घातमारी.

ते भायर, अतिरेकान संभोगाचो आनंदूय उणो मेळटा.

मनशांतलो आध्यात्मीक अंश उकताडा येवपाक संभोगाच्या ह्या संस्कारांतल्यान मनशान आपणाक सोडोवन घेवंक जाय.

मनीस खूब फावटीं आपणाक चाळोवन घालता, आपणाक उत्तेजीत करता. तो प्राकृत अवस्तेंत — म्हळ्यार, हेर जनावरांच्या पांवड्यार — आशिल्लो जाल्यार तागेलो हो उत्फर्को समजूं येतालो. पुणून तो त्या पांवड्यार उरूंक ना. तरी आसतना, खूब फावटीं ताका त्या पांवड्यार देंवपाची कूय येता. आनी तो केन्ना तंबाकू ओडटा, केन्ना सोरो पियेता, तर केन्ना झिंदाबाद, मुर्दाबाद करून हें मोड, तें फोड करपाक लागता. म्हळ्यार, आपणांतलें मनीसपण चिड्डून वा मारून तो आपणाक पशुत्वाकडेन व्हरता. आनी मनीसपणाच्या लागणुकां पसून आपणाक पयस करता. केन्ना केन्ना पशुंकूय क्रूरपणान भरिल्ल्यो दिसच्यो असल्योय करण्यो करपाक लागता.

उत्तेजीत करपी तंबाकू सोऱ्याचे शिमेंतूच मनीस राविना. भांग, गांजो, अफीण (आनी हालिंसाराक सोदून काडिल्लीं) तरांतरांचीं घुंवळे वखदांय (ड्रग्स) तो घेवपाक लागता. टॉलस्तॉय ह्या उत्तेजीत करपी उपायांत धर्माच्या वा राष्ट्रपुजेच्या नांवान चलिल्ल्या झुजांचोय आसपाव करता. आनी म्हणटा, हे सगळे उपाय मनशांतल्या आध्यात्मीक अंशाक जाग हाडपाक आडखळी तर निर्माण करतातूच; ते भायर, ते मनशाची अवनतूय घडोवन हाडटात.

टॉलस्तॉयची वाड ख्रिस्ती धर्मपरंपरेंत जाल्ली. ख्रिस्ती धर्मपरंपरेची उतरावळ ताचे संवकळिची. तो हे उतरावळिचो आधार घेवन मनशांतल्या आध्यात्मीक अंशाचे उकतावणेक आडखळ हाडपी संस्कारांक पातकां म्हणटा. ह्या पातकांक लागून समाजांत कांय अन्याय चलूंक लागल्यात. आनी ह्या अन्यायांनी कांय प्रस्न निर्माण केल्यात अशें म्हणटा.

तो म्हणटा, मुळाव्यो गरजो भागोवपाचो वावर सगळ्यांनी उत्पादक स्रम करून केल्लो जाल्यार आयज घर भरून दार ओतता असले गिरेस्त लोक एके वटेन आनी मरऽसर स्रम करून उपाशीं वा अर्द पोटार राविल्ले गरीब लोक दुसरे वटेन दिश्टी पडचे नाशिल्ले. संपत एकठांय करपाची गरज कोणाक भासची नाशिल्ली आनी ती 'सांबाळपा खातीर' कोणाक आपणाली शक्त खर्च करची पडची नाशिल्ली. कोण चिड्डुपी उरचे नाशिल्ले. कोण चिड्डल्ले उरचे नाशिल्ले. कोण शोषक उरचे नाशिल्ले. कोण शोषीत उरचे नाशिल्ले. गिरेस्त गरिबां मजगतीं दुस्वास, मत्सर, संघर्श दिश्टी पडचे नाशिल्ले. खून जावचे नाशिल्ले, चोरयो जावंच्यो नाशिल्ल्यो. दरवडे पडचे नाशिल्ले. कोणाक ख्यास्त जावची नाशिल्ली. कोणाक बंदखण भोग पडची नाशिल्ली. कोणाक गोळाक लावपाचीय गरज उरची नाशिल्ली. स खातीर सर्त चलची नाशिल्ली. एकामेकांक हरोवपी झुजां जावचीं नाशिल्ल पूत बापाय आड, भाव भावा आड, घराबे घराब्यां आड वचचे नाशिल्ले

संभोगाचें घातक मनशान करूंक नाशिल्लें जाल्यार बायल-मनी सदांकाळ दादल्याची गुलाम जावन रावची नाशिल्ली. कोण बायल मनश आपणा जाळांत घुसपावचो नाशिल्लो. बायलो वायट मार्गांन चलच नाशिल्ल्यो. समाजात वेश्या दिश्टी पडच्यो नाशिल्ल्यो. घोव बायले दुबाव घेवचो नाशिल्लो, बायल घोवाची घेवची नाशिल्ली. बायलांक लाग झगडींय जावचीं नाशिल्लीं आनी पोटांतलें भुरगें व्हळोवपा खातीर को गर्भपातूय करचे नाशिल्ले.

तंबाकू, सोरो, अफीण, गांजो नाशिल्लो जाल्यार कोण हुर्रर फुर्रर जावच नाशिल्लो. कोण तर्रर जावचो नाशिल्लो. धर्मकोल्ल नाशिल्लें जाल्या कोण धर्मकुड्डो जावचो नाशिल्लो (कोण कोणाच्यो मशिदी, इगर्जो, देवळ मोडचे नाशिल्ले) आनी राष्ट्रपुजेचो धर्म चलऽनाशिल्लो जाल्यार खंयचो देश दुसऱ्या देशाचेर घुरयो घालचो नाशिल्लो. खंयचेच कडेन झुजां चलच नाशिल्लीं.

(चलता

ह्या म्हयन्यांत 'जागा'क २६वें वर्स लागता. ह्या वर्सा सावन 'जागां'त चार पानांची वाड करपाची आमची भोव इत्सा आसली. पूण तें जमून आयलेंना. जागाच्या एका वांगड्यान आमकां एकूच नवो वांगडी जोडून दिलो जाल्यार हें घडून येवं येता...

'तीर-सुवादीक कॉलम' आनी 'इतिहासाचीं पानां' सदरांतलीं कोंकणी चळवळींतल्या वावुरप्यांचीं आत्मकथनां ह्याय वर्सा मुखार चलोवप म्हूण आमी थारायलां. 'आत्मकथनां' निकतींच सुरू जाल्यांत म्हळ्यार जाता. एक लेख बरोवन जातकच 'आनीक एक बरयल्यार जाता?' म्हूण विचारून आमकां फोन येता आनी, दुसऱ्या लेखा उपरान्त तिसरोय लेख येता. कोंकणी चळवळिचो इतिहास असो चळवळिच्या वावुरप्यांचे लिखणेंतल्यानूच उकतो जावप भोव म्हत्वाचें अशें आमकां दिसता. देखून, ह्या सदरा खातीर बरोवचें म्हूण जांकां जांकां आमी बरयल्लें तांणी वेळांत वेळ काडून आपणाले उगडास मेकळेपणान बरोवन काडून आमचे कडेन पावते करचे म्हूण आमी मागतात.

ह्या आंका सावन 'भास आनी समाज' हें समाज-भासविज्ञान आनी भाशेचें समाजशास्त्र ह्या विशयाक ओंपिल्लें एक नवें सदर आमी सुरू करतात. वाचप्यांक तें मानवतलें अशी आस्त आमी बाळगितात.

आनी निमाणें, 'जाग' तुमकां कशें लागता, तांतुंतलें कितें तुमकां आवडटा, कितें आवडना, कित्याक आवडटा/आवडना तें आमकां मुजरत कळयलें जाल्यार भोव बरें दिसतलें.

आनीक एक — मनीऑर्डरीन 'जागा'ची पटी धाडटना संदेश बरोवपा खातीर दवरिल्ले सुवातेर पटी धाडटल्याचें नांव आनी नामो बरोवंक विसरुचें न्हय. ह्याच म्हयन्यांत अशी एक १०० रु.ची पटी आमकां पावल्या. ती कोणाची तें कळत व्हय?

— वावुरपी संपादपी

# पडसाद

## फकत पांच एकर भुंयेचें धा लाख उत्पन्न

भौ. रवीन्द्रबाब,

डिसेंबर १९९८च्या 'जागा'च्या आंकांत आयिल्लो तुमचो 'विष्णुपत्नी नमस्तुभ्यम्' लेख वाचिल्लो. त्याच वेळार तुमकां म्हजो एक अणभव बरोवन कळोवचो अशें मनांत आयिल्लें. पुणून बरोवप सदां म्हज्या जिवार आयलां. म्हूण बरोवपाचें उरलें.

आयज 'जागा'चे आंक बायंडिंगाक दिवपाक काडिल्ले. तुमच्या त्या लेखाचेर पर्थून एक फावट नदर गेली. आतां, म्हळें, बरोवचेंच पडलें. आनी बरोवंक बसलां.

एक खेपे हांव सोमनाथचे यात्रेक गेल्लों. थंयच्यान अजमेराक वचपाचें आशिल्लें. वाटेर राजकोट लागलें. एक दीस रावलों. थंय हांवें एक फार्म पळेलें. फकत पांच एकर भुंयेचें. थंय मोर खूब. बाजरी, गंव, तीळ असलें कितेंय रोयलें जाल्यार मोर तें जावंकूच दिनात. म्हूण फकत एक एकर भूंय बाजरी, गंव, तिळां खातीर तांणी राखून दवरल्या. उरिल्ले चारूय एकर भुंयेर बोरी, पेरी, आंबे, चिकू, लिंबू असलींच झाडां रोयल्यांत. धा बारा 'गिरच्यो' बारा गायो पोसल्यात. एक एकली बाल्दी बाल्दी, देड देड बाल्दी दूद दिता. हांव पावलां त्या वेळार बोरी लागिल्ल्यो. आठ धा फूट उंचायेचीं झाडां. तांकां पानां परस चड फळां आशिल्लीं पळेलीं. एक एक बोर ल्हान सफरचंदा येदें. खावपाकूय 'अमरी' सफरचंदा इतलेंच गोड. 'कसलें सारें घालतात तुमी ह्या झाडांक?' हांवें विचारलें. 'कसलें घालतले?... गायो आसात. तांचें शेण मेळटा. मूत मेळटा... हाचेकूय बरें सारें संवसारांत दुसरें ना.' म्हाका जाप मेळ्ळी. 'रसायनीक सारीं आमी वापरिनात...'

'फळांक किडी लागनात?'

'कित्याक लागतल्यो? फळांचो सीझन येता तेन्ना बालदी भरून आमी गायचें मूत पंपांतल्यान खांदयां ताळयांचेर आनी पानांचेर – पुराय झाडाचेर – शिंवरायतात. पंदरा पंदरा दिसांनी एक खेपे ही शिंवरावणी करतात... झाडांक कसलीच कीड लागना, कसलोच रोग जायना.'

आंब्यांचीं झाडां धा बारा फूट उंचायेचीं. ताळयां ताळयांचेर घोंस कशे आंबे लागतात. तसोच लिंबवाच्या चिकवाच्या झाडांचो हांगा सांबाळ करतात.

गायच्या शेणाच्या आनी मुताच्या साऱ्याक कसलोच वेगळो खर्च करचो पडना आनी कसलोच जीव मारचो पडना.

उत्पन्न कितलें काडटा जातलें हें फार्म? वर्साक उणेपुरें धा लाख रुपयांचें.

'विष्णुपत्नी नमस्तुभ्यम्' लेख वाचिल्ल्यांक हीय म्हायती घडये उपकारा पडटली अशें मानून ही चीट बरयल्या.

बरें मागून
**शंभु देसाय**

७७/४, गिरगांव बँक रोड
मुम्बय

— राजकोटचे भुंयेचो कुसवो उजवो आसतलो, गोंयची भूंय निःसूक अशें कोण म्हणचो ना अशी आस्त बाळगितां. खंयचीच भूंय निःसूक नासता. खंयचीच आवय वांझ नासता, तशी.

– संपादपी

नमस्कार,

'कारवार – एक सोबीत वाठार' हो यशवंत पालेकार हांचो लेख (जाग, जुलय १९९९) वाचलो. आवडलो. तांणी गुरुदेव रवीन्द्रनाथ टागोर हांच्या कारवार गांवांतल्या राबित्याची खबर सांगल्या. रवीन्द्रनाथ आपलो भाव, सत्येन्द्रनाथ, हांचे सरीं रावपाक मार्च १८८३ वर्सा कारवाराक गेलो. सत्यंद्रनाथ हो पयलो भारतीय ICS अधिकारी. तो कारवाराक जिल्हा न्यायाधीश आसलो. रवीन्द्रनाथांनी आपल्या कारवारच्या राबित्याविशीं सुंदर अणभव बरयल्यात. एके चान्ने रातीं दर्यादिगेवयल्यान केल्ले भोंवडेच्या अणभवाचेर तांणी 'पुनवेचे रातीं' (पुर्णिमाय) ही कविता बरयली.

तांकां सैमाचें जें भौढंगी आनी भौरंगी दर्शन कारवाराक जाल्लें ताचीं पडबिंबां तांच्या साबार कवितांमदीं पडिल्लीं दिसतात. (देखीक, 'वसुंधरा' ही तांची दीर्घ कविता.) रवीन्द्रनाथ कारवारच्या अणभवाविशीं बरयतात: ''सैमाची सोबिताय ही कितें कल्पनेंतली यक्षनगरी न्हय, तर अनंताच्या आनंदाचें तें व्यवत रूप. तो आनंद घेवपी व्यक्ती जायते फावटीं सहज समाधिचें सांगूंक येना असलें सूख कितले सहजतायेन भोगता हाची प्रचिती म्हाका कारवारच्या समुद्राचेर अणभवूंक मेळ्ळी.''

श्री. पालेकार हांणी कारवारच्या हिंदू हायस्कुलाचो उल्लेख करून ''नामनेचे गांधीवादी आचार्य काकासायब कालेलकार'' हे ते शाळेचे विद्यार्थी आशिल्ले म्हूण सांगलां. हे विशीं आनिकूय एके व्यक्तिचो उल्लेख करचो अशें दिसता. ती व्यक्ती म्हळ्यार गुरुवर्य वामन मंगेश दुभाषी वा 'ऋग्वेदी'. हिंदू हायस्कुलांत काकासायब तांचे विद्यार्थी आसले. श्री. दुभाषी व्यासंगी आनी विद्वान शिक्षक आसले. तांणी आपल्या विद्यार्थ्यांचेर केल्ल्या संस्कारांचो काकासायबान आपल्या लिखाणांत आदरान उल्लेख केल्लो दिश्टी पडटा. श्री. दुभाषी हांणी **आर्यांच्या सणांचा प्राचीन व अर्वाचीन इतिहास** हो ग्रंथ बरयल्लो. पूण तांचो अदीक म्हत्वाचो ग्रंथ म्हळ्यार रवीन्द्रनाथांचे गीतांजलीचो **अभंग-गीतांञ्जली** ह्या नांवान प्रसिद्ध जाल्लो मराठी अणकार. त्या अणकाराक काकासायबान प्रस्तावना बरयिल्ली आनी खासा रवीन्द्रनाथांनी तो अणकार वाखाणिल्लो. मुंबयच्या व्ही. प्रभा आनी कंपनी हे संस्थेन १९२८ वर्सा प्रसिद्ध केल्लो हो ग्रंथ आज दुर्मिळ जाला.

'गीतांजली'चे प्रस्तावनेंत काकासायब आपल्या शांतीनिकेतनांतल्या राबित्याचो उल्लेख करून बरयतात: ''थंय (शांतीनिकेतनांत) आसतना एक दीस हांवें तांकां (गुरुदेवाक) म्हळें, ''गुरुदेव, तुमचेकडसून कांय बोध आयकुचेली म्हजी इत्सा आसा.'' रोखडेंच तांणी म्हळें, ''हांव कवी. कविची वृत्ती हीच म्हजी साधना. हांव कोणाचोच गुरू जावंक शकना. पूण लोक म्हजेकडेन उपदेश मागूंक येतात. पूण कोणूय कोणाक गुरू करपाक शकतलो हाचेर म्हजो विस्वासूच ना. हांव 'सत्यं शिवं सुन्दरम्' हांचें ध्यान करतां. तेन्ना हें सगलें सैम सत्यरूप आसा, कल्याण करपी आसा, सुंदर आसा अशें म्हाका दिसपाक लागता.''

''थोड्याच वेळान विशय बदल्लो आनी सैमाचे सोबितायेचो मनाचेर जातल्या परिणामा विशीं चर्चा सुरू जाली. हांवें म्हळें, 'ल्हानपणांत हांव कारवाराक आशिल्लों. थंयच्या दर्याची सोबिताय, सुरूचें उपवन आनी सुर्यास्ताचें सुवर्ण हाची म्हजेर अवर्णनीय छाप पडली आनी तेच मुस्तींत म्हज्या सुदैवान म्हाका असो शिक्षक मेळ्ळो (गु. दुभाषी) जाणें म्हजे मदीं नितीक जिविताचे भव्यताये विशीं आदर उत्पन्न केलो. ईश्वराची भक्ती आनी बरी चलणूक हे विशीं ल्हानपणापासून म्हजेर संस्कार जाल्ले खरे, पूण नितीक जिवितांत गरजेचो करारीपणा आनी ताचेखातीर सोंसचें पडटल्या कश्टांतसूनच मेळपी अध्यात्मीक समाधान हे विशिंची जाणवीक म्हाका गुरूजीं पासून पयलीं मेळ्ळी.''

''कारवारचें नांव घेतकीच गुरुदेवांक उमाळोच आयिल्ले वरी जालो

आनी तांणी म्हळें, ''कारवार! थंय हांव भुरगेपणांत राविल्लों. अती सुंदर थळ तें!''

गुरुदेव टागोर, गुरुवर्य दुभाषी, काकासायब हांकां 'गीतांजली' आनी कारवार हांच्या मोगान एकठांय हाडले हो एक योगायोगूच.

**सुरेश गुंडू आमोणकार**

नमस्कार

ही चीट 'कोंकणींतली साहित्य समिक्षा – आयची स्थिती आनी नव्यो दिको' ह्या जून म्हयन्याच्या जागाच्या 'साहित्य नियाळ' सदरांत आयिल्ल्या प्रा. हरिश्चंद्र नागवेंकार हांच्या लेखा संबंदान आसा.

एके व्यासंगी व्यक्तीन बरयिल्लो लेख कसो आसूं येता हाची गवाय प्रा. नागवेंकार हांच्या लेखान दिली म्हणपाची नोंद हांव आदींच करून दवरतां. देखून हेर गजालिंचो परामर्श घेवचे बदला तांणी मूल्यमापना संबंदान केल्ल्या निर्देशाकडेन नदर वळयतां.

एखाद्रो अभ्यासक साहित्याचें मूल्यमापन करूंक सोदता तेन्ना तो तातूंत साहित्यिक महात्मतेची कुरूय सोदतासतना दिसता. मानवी जिणेंत उप्राशिल्ले अपरिहार्य वेदनेची सुलूस जे बरपावळींत मेळटा तें साहित्य श्रेष्ठ, अशी गांठ ताणें पयलींच घालून दवरिल्ली आसता. मानवी जिणेंतल्या मुळाव्या समस्यांक भिडपी बरपावळ एखाद्रो अभ्यासक नियाळटा तेन्ना तो आपसूक गुणात्मक-मूल्यात्मक भेद करूंक लागता. मानवी जिणेक वेंगावन आशिल्ल्यो अपरिहार्य वेदना आनी ते जिणेक मजबूत आदार दिवपी चिरंतन मूल्यां हांचीय जाणविकाय अभ्यासक दवरूंक लागता.

साहित्याचें मूल्यमापन करतलो अभ्यासक साहित्यांतले रसवत्तेचो, तसोच 'मनीस (सगळें जाणा जावनय) असोच कित्याक वागता काय?' अशा प्रस्नाचो सोद घेवपाची संद सोदूंक लागता. अमक्या साहित्यांत ह्या प्रस्नाचो प्रतिध्वनी येता म्हणपाचें ताका कळटकच तें साहित्य साधारण प्रतिचें न्हय म्हणपाचें ताका होलमूंक लागता. त्या साहित्यांत मानवी जाणविकायेच्यो नैतिक अंतःप्रेरणा दिसत जाल्यार अभ्यासकाक अशा साहित्याचें मूल्यमापन करपाच्यो दिको मेळूंक लागतात.

साहित्यिक महात्मता सोदतल्याक जेन्ना साहित्यांतल्या सज्जनांचो यातनाभोग छळूंक लागता तेन्ना तो आपसूक संवकळिची (formal) समीक्षा करपाचीं तत्त्वां कुशीक काडून दवरतय बी. एखाद्रया साहित्यिकान मानवी संस्कृतिचक्रांतल्या मुळाव्या सांस्कृतिक समस्यांचो वेध घेतला म्हणपाचें कळनाफुडें तो अभ्यासक त्या साहित्यिकाचे विराट प्रतिभेचीं आंगां-प्रत्यंगां नियाळूंक लागता.

कोंकणी साहित्याची समिक्षा करतल्यांनी एक गजाल मतीत दवरूंक जाय – कोंकणींत साहित्यिक महात्मता सोदपाचो वेळ आजून येवपाचो आसा आनी तो येतलोय बी. देखून आयजच मूल्यमापन करपाचें जूं घेवन भोंवपाची तशी चडशी गरज ना. जितलीं संवकळिचीं (formal) समिक्षणां करूंक येतात तितलीं करचीं. परिक्षण करतासतना आपूण गोमटेक समिक्षणाचें वजन बांदून घेवचों/घेवचीं ना म्हणपाची जतनाय घेवंची. आपूण साहित्यकृतिचो आस्वाद घेतासतना सैद्धांतिक समिक्षेच्या जाळ्यांत घुस्पून वचचो/वचची ना म्हणपाची सावधगिरी बाळगुंची; परंत अशें करतासतना बरें साहित्य (good literature) आनी श्रेष्ठ साहित्य (great literature) हे भेद मतींत दवरचे. तेच प्रमाण अपरिहार्य चिरंतन वेदनेचो सोद घेवपी साहित्य म्हळ्यार परिहार्य प्रासंगिक समस्येचेर उबारिल्ली बरपावळ न्हयच न्हय म्हणपाचोय उगडास दवरचो.

आयज कोंकणी साहित्य आकारूंक लागिल्लें आसा; ताका मूल्यमापन करपी हावक्यान भेश्टावन सोडचें न्हय अशें म्हाका दिसता.

**डॉ. सु. म. तडकोडकार**

# माजे आज्याक एक हतीं आशिल्ली

**मूळ मलयाळम : वायकम मुहम्मद बशीर**
**अणकार : आर. के. राव**

वैकम मुहम्मद बशीर (१९१०-१९९४) हे नामनेचे मलयाळम कथाकार. तांगेले पांचवे पुण्यतिथी निमतान 'माजे आज्याक एक हती आशिल्ली' ही तांगेली गाजिल्ली दीर्घ-कथा तीन वांट्यांनी उजवाडावपाचें आमी थारायलां. प्रो. रावान केल्लो हो अणकार आमी तांगेले कोचीचे शैलींतूच (शुद्धलेखनाच्या नेमांत लेगीत बदल करी नासतना) उजवाडायला.

१.

## होच भाग्याचो तीळ!

अनेक हजार वर्सां फूडे जालेल्यावरी आसा. कितें म्हळ्यार तरणे पिराये काळ भो दूरा मू. तेन्नासून जायत्यो घडणुको घडल्यात. त्यो सग एक तमासे वरी मात्र कुञुपातुमायक उगडास करूं जातल्यो. थेट जीवन. केन्नाय हें सत्य कळुंक जायनातिल्लो अजाप आसा. एकय कोणाचेय हातां ना मू. कितें करयेत ? खोणसां काडून रडचाक दिसतलें; हड्डें उकतें करन हासकय. हास मू रण्यापाशीय चांग. आठोवन आठोवन मंद गतीर हासया.

कुञुपातुमायन कोणाकय पिडा दिल्ली ना. एक मूयेक सरी द्रोह दिलो ना म्हण सांगयेत. परमेश्वराचे सृष्टींत एकाचेरीय तीणे वैर दाकयलें ना. तरणे पिरायेर साकूनच सर्वय सजीव प्राण्यांक ती मोग करताली. पयलेच तीणे मोग केला एक हतीक. तिका तीणे केदय देकली ना. तरीय मोग केलो. तिजे पसावत तीणे आयकलें अशें :

तेन्ना तिका सुमार सात वर्सां पिराय आसयेत, अथवा आठ. ताजे चड ना. त्या काळाक तिका मनाय करपाचो एक हुकम जालो. बापूयचो न्हय, आवयचो. खबर वेगळें कांय न्हय. मुसलमान जातीची जाल्यारीय शेजारच्या भुरग्यांकडे सहवास नज. सारांश, तांचेकडे कसलीय संबंध पाडना. कारण कितें ? लोकां सगटांक कळचें तें गुपीत आवयन तिका सांगलें.

'माजे मोगाची कुञुपात्तुमाय, तूं आनमक्काराची अपुरबायेची धूवेची धूव. तुजे आज्याक एक हती आशिल्ली ! व्हड सूळ्यांची एक हती !'

'माजे अपुरबायेची हती' अशें तीणें तेन्नासून स्वयं शें फान्तां म्हळेलें आसा. तिजे म्हार्यांत खेळन ती वाडल्या म्हळ्यार ताजो उगडासूय घेवन ती त्या कोयलुवेचे घराचे आंगणां मद्दें बैसून खेळतली. तिजे गोवंटेक, कानाक, हाताक, आनी पायाक भांगरा जायें -- न्हेसल्या रेशमी वस्त्र. अंगार घाला रेशमी चोगो. माथें धापल्यां फीताचें लुंगटान.

ती गोरी तरीय तिजांत एक काळसाण आसा. कोणाकय म्हळेंना तरी तिका ताजान व्हड दुख जालें. तिज्या गालार एक लान तीळ आसा.

तो भाग्याचो तीळ अशें कुञुपातुमाय जाण जालेली तिजे चौदा वर्सां पिरायेर. त्या वेळार तिजे व्हारडीके खातीर भरन सोयरीको येवंचो काळ. व्होरेत कोण म्हण कोणाक कळना. कोणेय जाल्यार कितें ?

'बापा, हांव फडचान खातलीं!' कुञुपातुमायन ठारायलें. व्हारडीक जायनातिल्ली एक मुस्लिम चेर्डुवान फडचान खावंचें सम न्हय. अल्लाहु आनी ताजो दैवदूत मुहम्मद नबी हांणी ताजे पासून कांय सांगलां कि ना, हें कुञुपातुमायक कळना. तरीय गांवचे रीतीक अनुसरून दुसरे दादल्यांचे मुखारीय मुस्लिम बायलांनी वचाक पाडना. भो लान पिरायेचेर कुञुपातुमाय गेल्लेली आसा. तशें गेल्लेली न्हय. दुसऱ्या दादल्यांक देखले आसात, इतलेंच. कोणाचेय पासून तिका तशें उगडास कांय ना. आसा जाल्यार तो केवल बायलां मासून.

'त्यो सगय काफिरांच्यो बायलो आशिल्ल्यो !' हें मात्र कुञुपातुमायक तांचे पासून सांगचें आसा. लोकांत दोन वर्ण मात्र आसात. इस्लाम आनी काफर. दादलो जावो बायल जावो, मरतर काफर सग नरकांत वतले. ते सग चूक केल्लेले. इस्लाम धर्माचे लोक तांकां अनुकरण केल्यार नरकांतले पापी जातले. कुञुपातुमायन देखल्यो काफीरीच्या स्कूळांत शिकोवंच्यो अध्यापिका आशिल्ल्यो. बापूय तिका शिंगारन न्हयंत न्हाणोवंचाक व्हरचे वेळार तांकां देखलीं. शारांसून येवन न्हावन रावचीं दामेल्याले चेरडुवांकय कुञुपातुमायन देकलीं आसात. तांकां कोणाकय कुञुपातुमायक आसा तुतलेंच भांगार जायें ना. जायतीं जाणां तिका जाळकायेन पळयतात देकलीं आसात. तिका बोट दाकोवन 'तीं चेडूं खंयचीं ?' अशें निमगचेंय आयकल्लें आसा. तेन्ना सग भय भक्ति आदर सयत कोणेंय म्हणतलें :

'वट्‌टन अडिमकाका हाची धूव कुञुपात्तुमाय : आनमक्काराचे धूवेची धूव !'

'आमगेली कुञुपातुमायची धूव मू ?' केन्नाय एंदे जाण म्हणतले.

'तूं एक हास, कुञुपातुमाय', अशें सांगून स्कूलांतल्यो अध्यापिको काफिरच्यो तिजे भोंवतणीं जमा जातात. तांकां कुञुपातुमाय पसंद करता. काफिरीच्यो जाल्यारीय तांकां चांग घमघम येता. तीं सग साडी न्हेसतात. तांकां सगटांक 'ब्लावुस' म्हणचो चोगो आसा. ताजे पोन्दाक 'बोडीस' नांवाच्यो पातळ, सण्ण आंगां लागून आसचो चोगोय आसा. आनी तांणी माथ्यार फुलां गाळ्यांत. कांय जाणं कुञुपातुमायचे केंसांत फुलां खोवन दितलीं. तांत कांय जाणं तिजे गालावेलो काळो तीळ चिमटावन घेतलो सी ढोंग करतलीं. तांत कांय न्हय तिका रुची दिसली ? तांचे सारखे साडी आनी ब्लाउस आनी ताजे पोंदाचो पातळ, सण्ण लागून रावचो चोगोय तिका जाय.

आनी तांणी म्हळें, ''कारवार! थंय हांव भुरगेपणांत राविल्लों. अती सुंदर थळ तें!''

गुरुदेव टागोर, गुरुवर्य दुभाषी, काकासायब हांकां 'गीतांजली' आनी कारवार हांच्या मोगान एकठांय हाडले हो एक योगायोगूच.

**सुरेश गुंडू आमोणकार**

नमस्कार

ही चीट 'कोंकणींतली साहित्य समिक्षा – आयची स्थिती आनी नव्यो दिको' ह्या जून म्हयन्याच्या जागाच्या 'साहित्य नियाळ' सदरांत आयिल्ल्या प्रा. हरिश्चंद्र नागवेंकार हांच्या लेखा संबंदान आसा.

एके व्यासंगी व्यक्तीन बरयिल्लो लेख कसो आसूं येता हाची गवाय प्रा. नागवेंकार हांच्या लेखान दिली म्हणपाची नोंद हांव आदींच करून दवरतां. देखून हेर गजालिंचो परामर्श घेवचे बदला तांणी मूल्यमापना संबंदान केल्ल्या निर्देशाकडेन नदर वळयतां.

एखाद्रो अभ्यासक साहित्याचें मूल्यमापन करूंक सोदता तेन्ना तो तातूंत साहित्यिक महात्मतेची कुरूय सोदतासतना दिसता. मानवी जिणेंत उप्राशिल्ले अपरिहार्य वेदनेची सुलूस जे बरपावळींत मेळटा तें साहित्य श्रेष्ठ, अशी गांठ ताणें पयलींच घालून दवरिल्ली आसता. मानवी जिणेंतल्या मुळाव्या समस्यांक भिडपी बरपावळ एखाद्रो अभ्यासक नियाळटा तेन्ना तो आपसूक गुणात्मक-मूल्यात्मक भेद करूंक लागता. मानवी जिणेक वेंगावन आशिल्ल्यो अपरिहार्य वेदना आनी ते जिणेक मजबूत आदार दिवपी चिरंतन मूल्यां हांचीय जाणविकाय अभ्यासक दवरूंक लागता.

साहित्याचें मूल्यमापन करतलो अभ्यासक साहित्यांतले रसवत्तेचो, तसोच 'मनीस (सगळें जाणा जावनय) असोच कित्याक वागता काय?' अशा प्रस्नाचो सोद घेवपाची संद सोदूंक लागता. अमक्या साहित्यांत ह्या प्रस्नाचोच प्रतिध्वनी येता म्हणपाचें ताका कळटकच तें साहित्य साधारण प्रतिचें न्हय म्हणपाचें ताका होलमूंक लागता. त्या साहित्यांत मानवी जाणविकायेच्यो नैतिक अंत:प्रेरणा दिसत जाल्यार अभ्यासकाक अशा साहित्याचें मूल्यमापन करपाच्यो दिको मेळूंक लागतात.

साहितियक महात्मता सोदतल्याक जेन्ना साहित्यांतल्या सज्जनांचो यातनाभोग छळूंक लागता तेन्ना तो आपसूक संवकळिची (formal) समीक्षा करपाचीं तत्त्वां कुशीक काडून दवरतय बी. एखाद्रया साहित्यिकान मानवी संस्कृतिचक्रांतल्या मुळाव्या सांस्कृतिक समस्यांचो वेध घेतला म्हणपाचें कळनाफुडें तो अभ्यासक त्या साहित्यिकाचे विराट प्रतिभेचीं आंगां-प्रत्यंगां नियाळूंक लागता.

कोंकणी साहित्याची समिक्षा करतल्यांनी एक गजाल मतीत दवरूंक जाय – कोंकणींत साहित्यिक महात्मता सोदपाचो वेळ आजून येवपाचो आसा आनी तो येतलोय बी. देखून आयजच मूल्यमापन करपाचें जूं घेवन भोंवपाची तशी चडशी गरज ना. जितलीं संवकळिचीं (formal) समिक्षणां करूंक येतात तितलीं करचीं. परिक्षण करतासतना आपूण गोमटेक समिक्षणाचें वजन बांदून घेवचों/घेवचीं ना म्हणपाची जतनाय घेवंची. आपूण साहित्यकृतिचो आस्वाद घेतासतना सैद्धांतिक समिक्षेच्या जाळ्यांत घुस्पून वचचो/वचची ना म्हणपाची सावधगिरी बाळगुंची; परंत अशें करतासतना बरें साहित्य (good literature) आनी श्रेष्ठ साहित्य (great literature), हे भेद मतींत दवरचे. तेच प्रमाण अपरिहार्य चिरंतन वेदनेचो सोद घेवपी साहित्य म्हळ्यार परिहार्य प्रासंगिक समस्येचेर उबारिल्ली बरपावळ न्हयच न्हय म्हणपाचोय उगडास दवरचो.

आयज कोंकणी साहित्य आकारूंक लागिल्लें आसा; ताका मूल्यमापन करपी हावक्यान भेश्टावन सोडचें न्हय अशें म्हाका दिसता.

**डॉ. सु. म. तडकोडकार**

# माजे आज्याक एक हतीं आशिल्ली

**मूळ मलयाळम : वायकम मुहम्मद बशीर**
**अणकार : आर. के. राव**

वैकम मुहम्मद बशीर (१९१०-१९९४) हे नामनेचे मलयाळम कथाकार. तांगेले पांचवे पुण्यतिथी निमतान 'माजे आज्याक एक हती आशिल्ली' ही तांगेली गाजिल्ली दीर्घ-कथा तीन वांट्यांनी उजवाडावपाचें आमी थारायलां. प्रो. रावान केल्लो हो अणकार आमी तांगेले कोचीचे शैलींतूच (शुद्धलेखनाच्या नेमांत लेगीत बदल करी नासतना) उजवाडायला.

१.

## होच भाग्याचो तीळ!

अनेक हजार वर्सां फूडे जालेल्यावरी आसा. कितें म्हळ्यार तरणे पिराये काळ भो दूरा मू. तेन्नासून जायत्यो घडणुको घडल्यात. त्यो सग एक तमासे वरी मात्र कुञ्ञुपातुमायक उगडास करूं जातल्यो. थेट जीवन. केन्नाय हें सत्य कळुंक जायनातिल्लो अजाप आसा. एकय कोणाचेय हातां ना मू. कितें करयेत ? खोणसां काडून रडचाक दिसतलें; हड्डें उकतें करन हासकय. हास मू रण्यापाशीय चांग. आठोवन आठोवन मंद गतीर हासया.

कुञ्ञुपातुमायन कोणाकय पिडा दिल्ली ना. एक मूयेक सरी द्रोह दिलो ना म्हण सांगयेत. परमेश्वराचे सृष्टींत एकाचेरीय तीणे वैर दाकयलें ना. तरणे पिरायेर साकूनच सर्वय सजीव प्राण्यांक ती मोग करताली. पयलेच तीणे मोग केला एक हतीक. तिका तीणे केदय देकली ना. तरीय मोग केलो. तिजे पसावत तीणे आयकलें अशें :

तेन्ना तिका सुमार सात वर्सां पिराय आसयेत, अथवा आठ. ताजे चड ना. त्या काळाक तिका मनाय करपाचो एक हुकम जालो. बापूयचो न्हय, आवयचो. खबर वेगळें कांय न्हय. मुसलमान जातीची जाल्यारीय शेजारच्या भुरग्यांकडे सहवास नज. सारांश, तांचेकडे कसलीय संबंध पाडना. कारण कितें ? लोकां सगटांक कळचें तें गुपीत आवयन तिका सांगलें.

'माजे मोगाची कुञ्ञुपात्तुमाय, तूं आनमक्काराची अपुरबायेची धूवेची धूव. तुजे आज्याक एक हती आशिल्ली! व्हड सूळ्यांची एक हती!'

'माजे अपुरबायेची हती' अशें तीणें तेन्नासून स्वयं शें फान्तां म्हळेलें आसा. तिजे म्हार्यांत खेळन ती वाडल्या म्हळ्यार ताजो उगडासूय धेवन ती त्या कोयलुवेचे घराचे आंगणां मद्दें बैसून खेळतली. तिजे गोवंटेक, कानाक, हाताक, आनी पायाक भांगरा जायें – न्हेसल्या रेशमी वस्त्र. अंगार घाला रेशमी चोगो. माथें धापल्यां फीताचें लुंगटान.

ती गोरी तरीय तिजांत एक काळसाण आसा. कोणाकय म्हळेंना तरी तिका ताजान व्हड दुख जालें. तिज्या गालार एक लान तीळ आसा.

तो भाग्याचो तीळ अशें कुञ्ञुपातुमाय जाण जालेली तिजे चौदा वर्सां पिरायेर. त्या वेळार तिजे व्हारडीके खातीर भरन सोयरीको येवंचो काळ. व्होरेत कोण म्हण कोणाक कळना. कोणेय जाल्यार कितें ?

'बापा, हांव फडचान खातलीं!' कुञ्ञुपातुमायन ठारायलें. व्हारडीक जायनातिल्ली एक मुस्लिम चेर्डुवान फडचान खावंचें सम न्हय. अल्लाहु आनी ताजो दैवदूत मुहम्मद नबी हांणी ताजे पासून कांय सांगलां कि ना, हें कुञ्ञुपातुमायक कळना. तरीय गांवचे रीतीक अनुसरून दुसरे दादल्यांचे मुखारीय मुस्लिम बायलांनी वचाक पाडना. भो लान पिरायेचेर कुञ्ञुपातुमाय गेल्लेली आसा. तशें गेल्लेली न्हय. दुसऱ्या दादल्यांक देखले आसात, इतलेंच. कोणाचेय पासून तिका तशें उगडास कांय ना. आसा जाल्यार तो केवल बायलां मासून.

'त्यो सगय काफिरांच्यो बायलो आशिल्ल्यो!' हें मात्र कुञ्ञुपातुमायक तांचे पासून सांगचें आसा. लोकांत दोन वर्ण मात्र आसात. इस्लाम आनी काफर. दादलो जावो बायल जावो, मरतर काफर सग नरकांत वतले. ते सग चूक केल्लेले. इस्लाम धर्माचे लोक तांकां अनुकरण केल्यार नरकांतले पापी जातले. कुञ्ञुपातुमायन देखल्यो काफीरीच्या स्कूळांत शिकोवंच्यो अध्यापिका आशिल्ल्यो. बापूय तिका शिंगारन न्हयंत न्हाणोवंचाक व्हरचे वेळार तांकां देखलीं. शारांसून येवन न्हावन रावचीं दामेल्याले चेरडुवांकय कुञ्ञुपातुमायन देकलीं आसात. तांकां कोणाकय कुञ्ञुपातुमायक आसा तुतलेंच भांगार जायें ना. जायतीं जाणां तिका जाळकायेन पळयतात देकलीं आसात. तिका बोट दाकोवन 'तीं चेडूं खंयचीं ?' अशें निमगचेंय आयकल्लें आसा. तेन्ना सग भय भक्ति आदर सयत कोणेंय म्हणतलें :

'वट्टन अडिमकाका हाची धूव कुञ्ञुपात्तुमाय : आनमक्काराचे धूवेची धूव !'

'आमगेली कुञ्ञुपातुमायची धूव मू ?' केन्नाय एदे जाण म्हणतले.

'तूं एक हास, कुञ्ञुपातुमाय', अशें सांगून स्कूलांतल्यो अध्यापिको काफिरच्यो तिजे भोंवतणीं जमा जातात. तांकां कुञ्ञुपातुमाय पसंद करता. काफिरीच्यो जाल्यारीय तांकां चांग घमघम येता. तीं सग साडी न्हेसतात. तांकां सगटांक 'ब्लावुस' म्हणचो चोगो आसा. ताजे पोन्दाक 'बोडीस' नांवाच्यो पातळ, सण्ण आंगां लागून आसचो चोगोय आसा. आनी तांणी माथ्यार फुलां गाळ्यांत. कांय जाणं कुञ्ञुपातुमायचे केंसांत फुलां खोवन दितलीं. तांत कांय जाणं तिजे गालावेलो काळो तीळ चिमटावन घेतलो सी ढोंग करतलीं. तांत कांय न्हय तिका रुची दिसली ? तांचे सारखे साडी आनी ब्लाउस आनी ताजे पोंदाचो पातळ, सण्ण लागून रावचो चोगोय तिका जाय.

बापूयक तीणें तें सांगलेंय. तें आयकून अध्यापिको हांसल्यो. तांत एकलेन म्हळें :

'कुञ्जुपातुमाय व्हड जावो!'

व्हड जावुंक जाय!

'केन्ना गे आवय हांव व्हड जातलीं?' तशें तीणें आवयक विचारलें.

आवयन कायरीं निमगचाक तीणें खरें सांगलें. आवयन तिका तेन्ना भिसरायली. 'माजे कुञ्जुपातुमाय, आमकां तें कांय जायना! काफीरचींगेलें पोशाक! काफीरांक आमी विरोध करूंक जाय!'

'खरें गो पुता तें.' बापूयन म्हळें, 'आमकां तें जाय जालेलें न्हय!'

नाका जालेलें तरी नाका जालेलें! बापूयचे उतरा जाप ना. इस्लाम धर्मा अनुसरून तांचें जीवन. वट्टनअडिमकाका म्हण सांगचे कडे प्रेम आनी आदर आसा. गांवचो मुखेली तो. मशीदाचो अधिकारी तो. गांवचो व्हड मनीश. माथें केन्नाय लान करन कापणी काळ्ळेलें आसतलें. खाड आनी मीशीयो इस्लाम धर्मा प्रमाणीं देग तासून कातरलेल्यो आसतल्यो. मीशीयांचीं दोनीय तलवां ताण्डून शींगांवरी दवरतलो. वस्त्र मात्र न्हेसतलो. चड दिगायेचें फीत लायल्लें सण्ण लुगट दिगायेन सडळ करन खांदार घालतलो. कांय वेळार ताजे तलव खाल पडून लळता जाल्यार मागलान येतल्लें तें काडून आदर सयत ऊंच करन धरतले. बापूयन तें कांय जाण जावप ना. दीग रूंद सुलंव तशें चमकतलो. बापूय हात, पांय, तोंड, माथें आनी कान सग धुवन साफ करन नमस्कार करता. अल्लाहु केन्नाय, खंयीय आसा. ह्या संसारांत आसचे ते परमेश्वराक नमस्कार करात. नमन करात. पांच फांतां. एक फांतां सरी नमन करचें सोडप ना. रंसाण म्हयन्यांत तीस दिसांकय बापूय जेवण-खाण-उदक सोडून व्रत राखतलो. धर्मानुसरून 'जकात' दितलो. बापूयक हज जात्रेक वचुंक जाय अशें इत्सा आसा. कुञ्जुपातुमायची व्हारडीके उपरांतेच ती जात्रा आसतली.

व्हारडीके कायरीं दीस वतां वतां मुखार आयलीं. घराकडे केन्नाय जेवणा-खाणाचो गोंदळ पांच स काट फडचान जाय. बापूय फडचाना खावगी न्हय.

आवय व्हड फडचाना खावगीणी आसा. आवयक एक दिसाक शें तरणीं फडचानां पुणीय जाय. आनी संवाद उलवप आवयचें मुखेल काम. फडचाना आयदना लागीं सर्वय भांगार जायें घालन फीत लायल्लो बुरखो आनी रेशमी चोगो घालन दाट खरखरी वस्त्र न्हेसून अच्चे-मांदरेर आवय बैसतली. आंगणांत देवंप ना. खडावांचेरच. आज्याचे हतीचे सूळ्यान निर्मिल्ले आवयचे खडावांच्यो दोनीय खुंटीयो. खडावो केन्नाय लागीं आसतल्यो.

फडचान खावंचाक आनी संवाद उलवप आयकचाक जायत्यो बायलो आसतल्यो. आवय उलवपाक सुरू करतली. विशय चड कांय ना. एकच कुञ्जुपातुमाय न्हय जाल्यार बापूयच्यो भयण्यो, सात मामीयो. चडय कुञ्जुपातुमायचे गालाचो तीळ विशय आसतलो.

'होच भाग्याचो तीळ!' आवय म्हणतली. साबाव जायतकी? आनमक्काराची मोगाची धूवेची मोगाळ धूव. मात्र की, आवय म्हणतली, 'माका पांच बाळांतीरे जाले जाल्यारीय अळ्ळाहून आनी नबीन माका एकच दिलां.' मागीर आरंभतली कुञ्जुपात्तुमायचें भांगर-जायें परसून: 'सांग गो चेडुवा, हीका पुणीय चंदरुपान चलोवंका नाका की?' त्या उपरान्त सांगचें स्वल्प रागार: 'मागीर... व्हारडीकेक हिगेले बापूयचे बन्धु-बान्धव आयलेना जाल्यारीय कुञ्जुपातुमायची व्हारडीक जातली. आनमक्काराचे मोगाची धूवेची मोगाची धूव ही!' तशें विशय सोंपतर कांय पुणीय सांगचाक आवय बायलांत एकलेक सांगतली.

'सांग गो चेडुवा!'

बायलो सांगतल्यो. तशें बायलांकडे सून कुञ्जुपातुमायन एक गावंचें खबर आयकलें. ताजान कुञ्जुपातुमाय रागार जाली. ताजान तिका दुख पावलें. ती रागान भरली.

कुञ्जुपातुमायन आयकल्लें खबळायल्लें खबर हें: शेजारय, ते गावंचे चडान चड घरांतय चार पांच वर्सां पिरायेचीं चेरडूवां आसात. एक नवी पिळगी तशें येता. तांत कुञ्जुपातुमायक कांय विरोध ना. पुण तांचीं नांवां! तीं कुञ्जुपातुमायक राग हाडता. निपट वोजें व्हावंतल्ले, खारवी, सादारण मागतल्ले – मात्र न्हय गावंचे चडान चड मुसलमानांचे घरांतय एक एक कुञ्जुपातुमाय आसा. एक एक गुलामय आसा. एक एक कुञ्जुताचुमायों आसात. एक एक मक्कारय!

हे परमेश्वरा! कितें करप? लजा आनी मान आसल्यार... तांकां, चेरडुवांक वेगळें नांव घालुंक मज की? पुण कुञ्जुपातुमायक तेन्ना एक लोक-गुपीत समझलेंना आशिल्लें. धन आनी प्रसिद्धी पाविल्ल्यांचीं नांवां – तें दोनीय नातिल्लीं दळिद्रीं उपयोग करतलीं. ती गांवची चाल. धनवर्तकाचीं न्हय जाल्यार प्रसिद्धी पाविल्ल्याचीं नांवां – तें नातिल्यानी उपयोग करूंक पाडना म्हण नेम आनी कांय ना. तशें जाल्यारीय ऐश्वर्य आनी कीर्ती जाली जाल्यार?

कुञ्जुपातुमायक तें सम म्हण दिसलें ना. कारण ती हे लोकांतली एकलीच कुञ्जुपातुमाय आसा. तिजो बापूय लोकांतलो तीची आवय लोकांत एकलीच कुञ्जुताचुम्माय आसा. तिजो आजो लोकांतलो एकलोच आनमक्कार आसा. विशय अशें आसतना वट्टनडिमा कुञ्जुपातुमाय हें सग सहन करचाक वचना. तीणें तपशील दूसर्या बायलांनी आयकश आवयक म्हळें, मात्र न्हय रागान, दुखान विचारलेंय.

'आमचीं नांवां तीं कित्याक घेतात?'

आवय हांसली. दुसरे बायलांक कितें दिसलें म्हण कुञ्जुपातुमायक कळना. आवयन म्हळें:

'व्हारडीक जावंचाक वचें चेडूं! विचारता आयकलें?' आनी आवयन, 'पळय!' म्हण सांगून तिजे गालाचो काळो तीळ आपडलो. तेन्ना तिका कळ्ळें. चार पांच वर्सां पिरायेची भीक मागून भोंवचे कुञ्जुपातुमायांक हांकां एकलेक सरी गालार तीळ आसा म्हण आयकलें ना. आवयन दूसर्या चेडुवांक विचारलें आनी तांणी 'ना' म्हळेंय. 'काळो तीळ ना कित्या?' आवयन विचारलें. 'ताजो रंग कसलो?'

'काळे तिळाचो रंग काळो.' कुञ्जपातुमायन म्हळें.

'काळो.'

आवयन विचारलें:' तुजे आजाच्या हतीचो रंग कितें आशिल्लो?'

कुञ्जुपातुमायन देकलेना जाल्यारीय उगडास करन चोयली. सादारण हतीचो रंग काळो. तीणें म्हळें, 'काळो'.

आवयन विचारलें, 'तुजो रंग कसलो?'

कुञ्जुपातुमाय बरे रुपान गोरी. तिणें म्हळें, 'गोरो'.

आवयन विचारलें: 'गोरे तुजे गालार काळो तीळ कशें जालो?'

कुञ्जुपातुमायक कार्याचें गौरव समझलें!

पोरणो प्रताप, ऐश्वर्य. इतिहासाचो लकलक. सर्वय गुपीत, चोय, हांगा स्पष्ट उकतें आसा! तिका संतोष आनी अभिमान दिसलो! किरीट, राजदंड, सिंहासन आनी महा साम्राज्य आशिल्लें अशें. तीणें म्हळें:

'माजे आज्याक एक हती आशिल्ली.'

आवयन खडाओ आपडून म्हळें: 'एक व्हड सूळ्यां हती!'

२

## इबलीस नांवाचो चेडो

कुञ्जुपातुमायचे व्हारडीकेची तयारी उत्साहान तशें करचे वेळार तीणे दोन गजालो आयकल्यो.

आज्याचे ते व्हड सूळ्यां हतीन स जाणां जिवानशीं मारले! तांत तिका

दुख दिसलें. हतीचेर रागूय आयलो.

'दुर्दैवी हती!' म्हण तीणे म्हळेंय. पुण राग चड दीस रावलोना. हतीन मारलेले सयीय जाणं काफीर महावत आशिल्ले. तीणे एक मुस्लीमाक सरी मारलोना. तिका मुसलमान महावत आशिल्ले कि ना म्हण कुञुपातुमायक कळना. आवयन म्हळें:

'ती बरकताची हती आशिल्ली!'

म्हळ्यार आज्याचे हातसून केळीं आनी गोड ती घेवन खातली. आवयन म्हळें:

'तुजो बापूय माका व्हारडीक करूंक आयल्लो तिजे फाटीर चडून!'

'अजाप!' कुञुपातुमायन आठयलें. तिका व्हारडीक करूंक येवचो चेडो... खंयच्याय हती फाटीर चडून येतलो की?

तिका कोणाक... कित्याक... लग्न करूंक जाय? तशें कांय कुञुपातुमायन आठयलें ना. तिगेलें लग्न जाल्यार तुरंत बापूय हजाक मक्काक वतलो. तें आरेबियांत आसा. थंय भक्कम नावाचे पवित्र थळार मुहम्मद नबी जल्मल्लो. थंय काबा म्हळेलें पवित्र देवालय आसा. ह्या लोकांतली पयली मशीद ही. अति पोरणीं. इब्राहीम नबीन ती नव्या रुपान निर्माण करयली. कुञुपातुमायचे बापूयन मशीद निर्मयली ना. 'हज' पुण्यकर्म जावन आयल्यार मागीर बापूयक 'हाजी वट्टनडिमा' अथवा 'वट्टनडिमा हाजी' म्हण उलो दितले. कुञुपातुमायन विचारलें:

'आवय वतली की?'

आवयन विचारलें: 'खंय थंय?'

'हजाक?'

आवयन म्हळें, 'वतलीं.'

तें एक नवें खबर. कुञुपातुमायन म्हळें, 'आपा, माकाय व्हरूंक जाय!'

आवय हांसली. आवयन म्हळें, 'तें सग तूं तुगेल्या घोवाक सांग.'

ती लजेली. ती कांय उलयली ना. पूण तिका लग्न करूंक येवंचो कोण? तरणाटो कि म्हन्तारो? काळो कि गोरो? कांय तिका कळना. कोण की एकलो येता. कोण?

चेडूं जाल्यार खंयच्याय एक पुरुशाक व्हारडीक करन दितलीं. मुहम्मद नबी आनी असहाबी हांचे काळसून आशिल्ली चाल ही. तांचे फूडेंय हेंच आशिल्लें आसुंक जाय ही चाल. फूडें... फूडें मनीस वर्गा प्रारंभार आदम नबीन हव्वा बीबीक व्हारडीक केली. आदम नबी आनी हव्वा बीबी हांकां बापूय आवयीय ना आशिल्लीं. देकून तांची व्हारडीक तांकयल्ली अल्लाहून. आदम नबी आनी हव्वा बीबी हीं दोगंय आज लोकां आशिल्ल्यांचेय मेलेल्यांचेय आदिम बापूय आनी आवय तांचेफुडें भुंयेचेर मनीश ना आशिल्लो. आदम नबी आनी हव्वा बीबी कितले कोटी वर्सां फूडें हांगा जींवन करतालीं म्हण कुञुपातुमायक कळना. आदम नबी उपरांत हे लोकांत कोटी लेकान नबी जाले... तांत सुमार पंचवीस दैवदूतांगेलीं नांवां मात्र खुरानांत आसात. पृथ्वीचेर जल्मल्ल्या जनांलागीं सग एक एक दैवदूताक धाडल्लो आसा. उपदेशक: नूह, इब्रहीम, दावूद, मूसा, ईसा, मुहम्मद...

मुहम्मद नबी आखरचो दैवदूत आसा. आनी नबी कोणेंय जल्माक येवंचना. मुहम्मद नबीन करतना सग सिद्ध जालें.

मुहम्मद नबीचे म्हालगड धुवेचें नांव फातिमा. फातुम्मा म्हणूय लोक सांगताले. फातिमा बीबीक मुहम्मद नबीन खलीफा आली हाका व्हारडीक करन दिल्ली.

अली व्हड धीर, वीर, शूर, पराक्रमी आशिल्लो. अलीकडे दुलालिकर नांवाचे एक चंद खांडें आशिल्लें. खुल आलमिनाया यजमानाचे हुकमानुसरून अलीन तें खांडे समुद्रांत विन्दलें. सर्वय मासळ्यांचो गोवंटो ताणें कातरलो. देकून सर्वय मासळ्यांचे गोवंटे दोनीय दिकार कातरले सी दिसतात. तेन्नासून मुसलमानाक मासळी अनुकूल जाली. खलीफा अलीचे फूडे भूंयचे तळें-तळियांत एक विशेष जातीची मासळी ना आशिल्ली कीं. समुद्रांत खांडे विन्दुक परमेश्वरान सांगलें म्हण म्हणतात. परमेश्वर तशें सांगतलो की? दंतकथा जावयेत. सत्य कितें, फट्टी कितें? कुञुपातुमायक कळना. मशीदांत धर्म पंडितांगेले धर्म संबंधी रातीचें भाषणांत तीणें आयकल्लें आसा. तें सग सारकें म्हण आवयन म्हळेलें आसा.

कुञुपातुमायन याद केलो. तिका व्हारडीक करूंक येवंचो चेडो व्हड वीर आसतलो की? कांय कळना. कोणाक विचारतली? मागीर एक आसा... सांगचें करूंक जाय. दिलेलें घेवूंक जाय. हेंच एक मुस्लिम युवतीचो धर्म. हें कुञुपातुमाय समझली आसा. हाजे संबन्धी परमेश्वरानय ताजो दूत मुहम्मद नबीनय कितें सांगल्लें आसा? अर्थ कळना जाल्यारीय तीणे खुरआन परायण केलें आसा. तिगेले बापूयनय, आवयनय परायण केल्लें आसा. तिजो आजो, आनमक्कार हाणेंय खुरआन पारायण केल्लें आसा. तांत कितें सांगता, हें कोणाक कळना. लोकांतले रूक सग पेन करन. लोकांतले समुद्र सग शाई करन – खुरआनाचो अर्थ बरयतात जाल्यार एक अध्यायाचो अर्थ सर्वय सरतले. समुद्र आटून वतले! खुरआन एक पवित्र ग्रन्थ. तांत सर्वय आसा. तें कोणेंय बरयल्लें न्हय. परमेश्वरान दैवदूत जिबरील नावाचे मलका वाटेन मुहमद नबीक एदें एदें करन सांगून दिल्लें. नबी चालीस वर्सां पिरायेचेर मक्कालागीं एक डोंगराचे हीरा नांवाचे गुफांत ध्यानमग्न बैसलो. तेन्नाच पयले जिबरीच नांवाचो देवदूतान येवन सांगून दिलें. वाचात. बरप आनी वाचप दोनीय शिकात. दिव्य ज्ञान – खुरानाचो आरंभ तशें. नबीक बरप आनी वाचन दोनीय कळना आशिल्लें. तरीय नबी हांगेले आवय भासेंत खुरान बरयलां. ती भास अरबी. नबीन तांगेले अनुयायींक सांगून दीवन कऱ्याचे हाडा-हाता तळव्यारीय. खाजुरमाडाचे पिड्या दांड्यारीय चामारीय बरवन दवरयलें. अरेबिया म्हण एक राज्य आसा अशें कुञुपातुमायन आयकल्लें आसा. थांगा मक्का आनी मदीना दोन पुण्य थळां आसात. मक्का शारांत मुहम्मद नबी जल्मलो: मरण पाविलोय दफन केल्लोलोय मदीना शरांत. थांगा मुहमद नबीचो कब्रो आसा. हजा वचे मनीश कबराकडे वतले.

बापूय आवसूय हज जात्रेक वतर मदीनांतय वतलीं. तांचे लागीं वचाक कुञुपातुमायक व्हारडीक करचो मनीश राजी आसतलो की? अशें तीणें चिंतन केली. रात दीस कुञुपातुमाय हेंच उगडास करतली. तशें आसतना बापूय एक दीस भो क्षुब्ध जाला सी तीणे देकलो. बापूयचे दोळे तांबडे जाले. बापूय हांसलो.

'खेळ शिकचे!' बापूयन म्हळें. वट्टनडिमेकडे खेळ शिकचे! अल्लाहू, नबी आनी आंगवण करपी हे अनुकूल आसुनूय वट्टनडिमेकडें ते खेळ शिकतले!

कसलो खेळ म्हण कुञुपातुमायक तेन्ना समझलना. एक नवें केस लागीं बापूयचेर दिल्लेले आसा. मशीदाचे अधिकारी पासून. समाजाचो मुखेल जावूंक जाय. तेंच विशय. मशीदाचीं शासनकार्यरीं बापूयक चलोवंचाक अधिकार ना खंय!

अधिकार मागीर कोणाक? गांवचो मुखेली. खंयीय केन्नाय मशीद चलौंचो अधिकारी. मुखेली जावंचाक केन्नाय दुडू जाय. कुञुपातुमायचो बापूय गांवचो व्हड दामेली. एका चड दामेली आसात जाल्यार 'मशीदाचो अधिकारी कोण म्हण झगडें आसतलें. मारफार आनी खून मेरान जातलीं. मागीर केस जातलें. तशें चलतलें. मशीद आसचे कडे सग, चड जावन केसय आसा. तें सगटय इबलीस नावाचे चेड्यालें काम म्हण कुञुपातुमायक कळता. इबलीस ना आशिल्लो जाल्यार लोकांत कसलींय झगडीं जावंची ना आशिल्लीं. कोण की हो इबलीस नांवाचो चेडो?

इबलीस पासून कुञुपातुमाय प्रथमतः मशीदांसून आयकता. त्या दिसा ती मशीदांत प्रार्थनाकर्म करचाक गेल्लेली न्हय. मुस्लीम बायलांक दादल्यां बरोबर मशीदांत वचून प्रार्थना कर्म करचाक पाडना खंय! ती त्या दिसा मशीदांत गेलेली 'वअस' म्हळेले राती प्रभाषण आयचाक. एक मुसलियार

भाषण करतालो. मशीदाचे मुखार एकांतांत एक मंटोव घाल्लोलो. बायलांक बैसचाक. थंय बैसल्यार कांय दृष्टि पडचीना. त्या मांटवांत बैसून कुञ्ञुपातुमायन शैतान इबलीस नांवाचे चेड्या पासून आयकल्लें. मुसलियारांगेले मशीदांतले रातीचे प्रभाषणांसून मुस्लीम समाज चडान चड तांचे धर्मापासून शिकता. मुसलियारान व्हडान बरे रुपान इबलीसा पासून सांगलें. तें पुराय कुञ्ञुपातुमायक बरो उगडास आसा.

इबलीस म्हळलो चेडो आरंभांत एक प्रमुख देवदूत आशिल्लो. परमेश्वराचे मुखार तो स्वर्गार सुखान वास करन येवंचे काळार एक घडणूक घडली.

भूयिक आनी रचचे फूडे. दंतकथा अशें : सगटाचेय फूडें अल्लाहून मुहम्मद नबीचें चैतन्य रचलें. ही जाणवीकय खंयसून मेळ्ळी? खुरआनांत ना. मुस्लियारांकडे कोणेंय विचारलें ना. आयकिल्याचेर भरवंसो दवरलो. कशीय आसो, चैतन्य रचले उपरान्त अनंत कोटी युगां भोगलीं. मागीर भूंय, नक्षत्रां, सूर्य, चन्द्र हांकां रचले. सर्वय प्रपंचांकय मुहम्मद नबीचे चैतन्याचे तीन थेंबे हुमेंसून दूसरे सजीव प्राण्यांक रचले. तांत पयलो मनीश आदम नबी आसा!

मुहम्मद नबीचें चैतन्य आदम नबी वाटेन, कोटी लेकान आशिल्ले देवदूतां वाटेन, नूह, इब्राहीम, मूसा, ईसा हे नबीं वाटेन अब्दुल्ला फाटीर पर्यंत पावलें. अब्दुल्ला आनी अमीन हांचो पूत मुहम्मद जल्मलो. अशें दंतकथा आसा. ही दंतकथा कशी घडली? मुहम्मद नबीक कसली विशेषताय? ह्या संसारांत मनीशवर्ग जाल्ले उपरांत, सांगलें मू, कोटी लेकान देवदूत जल्मले आसात. तांत एकलो मात्र मुहम्मद नबी. 'हांव तुमचे समान एक मनीश मात्र' अशें मुहम्मद नबीन सांगलां. विशेष करन कांय ना. तेन्ना हे आदि सृष्टीची दंतकथा? कोणाक विचारतले? मुस्लीम जनांत चड जाणं भरवंसो करतात. तशें. प्रश्न ना. आयकल्ले सग विश्वास करतले. बापूय, आवयीय, कुञ्ञुपातुमायीय विश्वास करतात.

आदमाक रचले उपरांत दुसरे सर्वय प्राण्यां कडेय, देवदूत आनी भूत-प्रेत हांचेकडेय आदमाक आदर करूंक सांगलें. तांत देवदूतांक रचला उज्यान. मनीश आदमा रचला रेंवेन.

रेंवेन रचलेल्याक उज्यान रचल्ल्यान नमन करचें बरोबर की? हो देवदूतान सांगल्लो न्याय. कांय जालें तरी, आज्ञापालन ना केल्लें देकून परमेश्वरान त्या देवदूताक शिक्षा दिली. ताका स्वर्गारसून भायर घालो.

तोच सैतान इबलीस नांवाचो चेडो.

कुञ्ञुपातुमायक इबलीसा पासून अनीकय कांय कळता. फुडेचें वैर मनां लेकून ताणें आदीं माय-बापूय आदम नबी आनी हव्वा बीबी हांकां भूंयचेर वाट घुसपांवचाक प्रयत्न केलो. उपरांत सर्व प्राण्यांक, विशेष करन, मुस्लीम जनांक वाट चुकोवन काफिर करन नरकांतले पापी करचाक कश्ट काडता. तो वेगळे वेगळे वेषार सर्वय भासो उलयतालो. कसलेंय रूप तो धरतलो. ताजे तांत ताका मनीश जाय. ताजो उद्देश होच. ताकाय एक कारण आसा.

हें कुञ्ञुपातुमायचे बापूयन सांगून आयकल्लें. इस्लामाक एक विशेष वेष आसा मू. पुरुष जाल्यार दावेतांत करन वस्त्र न्हेसूंक जाय! माथें 'लान' करूंक जाय. शेताक बांध दवरचे गदी खाड दोनीय तांतल्यान कापणी काडून दवरूंक जाय. बायल मनीश जाल्यार कान विंदून वेड्यो घालुंक जाय. चोगो घालुंक जाय. माथ्यार बुरखो घालुंक जाय. केस वोळवयेत. पुण मागो काडुंक नज!

हाचे बदलाक एकदां एक मुस्लिम तरणाट्यान करनी केली. ताणें केस वाडयलो. क्रोप केलें. तें मागो काडून वोळवन दवरलें!

बापूयन त्या तरणाट्याक उलो दीवोवन केळसंचाकरान केस कापणी काडयली. कित्याक? केस कोणे रचला? कित्याक रचला? कोणेय विचारना. केस कापणी काडोवन वट्टनडिमान म्हळें :

'वट्टनडिमेचो प्राण आसा भितर. परमेश्वराचेय मुतनबीचेय फरमान आसा भितर. इस्लाम धर्माक नाश करचाक वट्टनडिमान मानवना!'

कारण केस वाडोवन क्रोप करवप इबलीस लोकांनी! काफीर हांणी! देकून श्रद्धा दवरूंक जाय. तो माथ्यार चडून बैसतलो. ताचे खातीर टोपी. तोपी नाजाल्यार माथ्या बांदल्यारीय पुरो. कांय ना जाल्यार माथ्या बांधप एक पदवी आसा. एक महत्व!

पुण बापूयन तोपी दवरप अथवा माथ्या बांधप दोनीय करप ना. प्रार्थना करच्या वेळार मात्र माथें धांकतलो. ताचे मद्दें इबलीस बापूयचे माथ्यार चडून बैसतलें की? तशें आसल्लें संशयाक कारण ना.

वट्टनडिमाकडे येवंचाक इबलीसाक धाडस आसतलें?

कशीय आसो. कुञ्ञुपातुमाय केन्नाय माथें धांपतली. आवयीय माथें धांपतली. केंस वोळयता जाल्यारीय काफिरिच्यां गदी मागो काडप ना.

सर्वय मुसलियारांनी सांगून दिवचें गदी जीवन करतात. कोणाकय कांय जाणविकाय ना. बरप आनी वाचन कोणाकय कळना. ग्रंथ आसात. ते अरबी भासेंत. मुसलियार अरबी भास शिकल्यात. तांणी सांगचे विश्वास करूंक जाय. तांकां अनुसरण करूंक जाय. ते सांगून दितले. तांणी सांगल्ले एक कायरीं बापूयन म्हळें. तें भूके पसावत. बापूयन म्हळें :

'आदीं, सृश्टी केले उपरांत सर्वय प्राण्यांच्या आत्म्यांक अल्लाहून विचारलें,

''तुमगेलो सृश्टीकर्तो कोण?''

सगटांनीय म्हळें : ''आमकां सृश्टीकर्तो ना!''

अल्लाहून सगटांकय शिक्षा दिली. जायतें प्रकारीं शिक्षा दिली. जायते काळाक शिक्षा दिली.

तरीय कोणेंय मानलें ना.

आखेर सगटांकय परमेश्वरान भूखेची कठीन ख्यास्त दिली! तशें त्या दीससून भूख जल्मली. भूखेची ख्यास्त दिवंचाकच सग कबूल केलें.

अल्लाहूच आमचो सृश्टीकर्तो!'

त्या दिसाचें तें स्वीकृतीपत्र एक फातराचे भितर दवरलें आनी तो फातर 'कयामम' म्हळेले आखेरचे दिसा आत्मांक विस्तार करचे वेळार साक्ष रुपान काडतलीं, ते फातराचें नांव 'हजरूल असवद.' तो काळो फातर मक्कांतल्या काबांत आसा. ते काबाक प्रदक्षिणा दवरचे वेळार, कितले फांता जालीं म्हण जाणुंक खूणा खातीर म्हण मात्र दवरलेलो एक निपट काळो फातर म्हण सांगतात. हजाक वतल्ले तें आपडून चुंबन करतात. बापूयक आनी आवयनय ती आपडून चुंबन करनातिल्लें रावची ना. कुञ्ञुपातुमायक हज जात्रेक वचाकय तो फातर आपडून चुंबन करचाकय साध्य जातलें की? कांय गोंदोळ जाता जाल्यार तें इबलीस नांवाचें चेड्यालें काम आसतलें. परमेश्वराक एक महा-बलवंत दुश्मन! तो मनीशवर्गाचेर वायट मार्गार व्हरता, नाश-नष्टाच्या मार्गार... ताणें मद्दें मद्दें गोंदोळ केल्लोय!

'परमेश्वरा!' कुञ्ञुपातुमाय प्रार्थना करतली; 'इबलीस' नांवाच्या चेड्याचे उज्या कीटींतसून आमकां राखचें!'

(चलता)

# उश्णीं उतरां

माधवी सरदेसाय

पोरसांतली शब्दुली शेजारचे जायेक आपणालो रंग दिना तशी जाये कडल्यानूय ती तिचो परमळ घेना. शब्दुली आपले भितरूच, आपले आपूण वाडटा, फुलता. तिचेर जायेच्या सांगाताचो परिणाम जायना. तशी, जायूय भर पोरसांत एकमुळी वाडटा, परमळटा. तिचेर शब्दुलेच्या वांगडाचो कांय प्रभाव पडना.

भारा अशी रुखावळी वरी जियेना. एकमुळी वाडना. ती संस्कृतायेच्या हेर सगळ्या आंगांवरी, ती आपणाल्या संपर्कांत आयिल्ल्या दुसऱ्या भासांचेर प्रभाव घालता तशी आपुणूय दुसऱ्या भासांच्या प्रभावांत येता. भासां भासां मदीं अखंड दिवप-घेवप चलता.

हें दिवप-घेवप उतरावळिच्या मळार सगळ्यांत अदीक चलता. परकी उतरां भाशेंत रिगतात, घरचीं जातात; घरचीं उतरां वापरा-भायरीं जातात, परकी दिसूंक लागतात... भाशेंत हें एका सारकें चालूच आसता.

भाशेची उतरावळ भाशीक समाजाचो सांस्कृतीक इतिहास घेवन भोंवता. कोंकणीचीच उतरावळ पळोवंया – बेकार ('बॅकार'), उमेद, बाजार, जमीन, बेमान, खोस, पोशेग, दुकान, दप्तर, दर्जी, दमो, दर्यो, याद, दुस्मान... ह्या उतरांचीं मुळां फारसींत मेळटात : अनुक्रमान – बेकार, उम्मीद (स्त्री.), ''आस्त'', बाज़ार (पु.), ज़मीं (पु.), बेईमान, खुशी (स्त्री.), पोशाक (स्त्री.), दुकान (स्त्री.), दफ्तर (पु.), ''कचेरी; खंयच्याय व्हडल्या ग्रंथाचो एक भाग'', दर्ज़ी (पु.), दमः (पु.), दर्या (पु.), ''नद, नदी'', याद (स्त्री.), दुश्मन (पु.). तशीं, नशीब, नदर, चादर, जमो, वगत, खबर, कागत, लुसकान / लुकसान / नुकसान, सायब, जाप, वजन, तारीक हीं मुळचीं अरबी उतरां : अनुक्रमान – नसीब (पु.), नज़र (स्त्री.), चादर (स्त्री.) जम (पु.), वक़्त (पु.) खबर (स्त्री.), कागज़ (पु.), नुक्सान (पु.), साहिब (पु.), जवाब (पु.), वज़्न (पु.), ''भार, पेज'', तारीख (स्त्री.)

बुतांव, काज, चावी, कॉर्द, चेर, मेज, कदेल, गवेत, जनेल, बटाट, तोमाट, अनस, पेर, पींप, पाव, फाती (बिस्किटींतली), बुराक, फूर, फोग, फोगेट, पगार, बोल्स, घोस्त, बेब्दो, सॉर्त... हीं उतरां मुळचीं पुर्तुगेज – अनुक्रमान – botão (पु.), casa (स्त्री.), chave (स्त्री.), corda (स्त्री.), cheiro (पु.), mesa (स्त्री.), batata (स्त्री.), tomate (पु.), ananás (पु.), pêra (स्त्री.), pipa (स्त्री.), pão (पु.), fatia (स्त्री.), boraco (पु.), furo (पु.), fogo (पु.), foguette (पु.), pagar, bolsa (स्त्री.), gosto (पु.), bêbdo (पु.), sorte (स्त्री.) ''luck''.

हीं आनी असलीं कितलिंशीं 'भायलीं'* उतरां कोंकणींत कशीं पावलीं, हाची जाप आमकां कोंकणी भाशीक समाजाच्या सांस्कृतीक इतिहासांत मेळूं येता. भाशेंतली 'उश्णी उतरावळ' वेगळ्या वेगळ्या भाशीक समाजां मदल्या सांस्कृतीक संपर्काची (cultural contact) गवाय दितात.

सामान्यतायेन उश्ण्या उतरांचो संबंद 'सांस्कृतीक पसवणी'कडेन (cultural diffusion) कडेन जोडूं येता. खाणां-जेवणां, न्हेसण-पांगरूण, चाली-रिती सारकेले सांस्कृतीक जिणेचे घटक एका समाजांतल्यान दुसऱ्या समाजांत पावतात. वांगडा, एके भाशेंतलीं उतरां दुसरे भाशेंत रिगतात – कोंकणी वाटारांत भेळ-पुरी, पाणी-पुरी, ढोकळा, उत्तपा, मसाला-दोसा, पराठा, छोले हीं खाणां पावतात तेन्ना वांगडा तांचीं नांवांय कोंकणी भाशेंत मूळ धरूंक लागतात. कोंकणी चलयांच्या आंगार सलवार-कमीज, चुडीदार घोळूंक लागता तेन्ना कोंकणी भाशेंतूय 'सलवार-कमीज', 'चुडीदार', 'दुपट्टा' ह्या उतरांची भर पडटा. अशेच तरेन, कोंकणींत भारतीय भासांनी **शर्ट, पॅन्ट, सूट, टाय, सूप, केक, पुर्डींग, आयसक्रीम, फ्रीज, टी.वी., वॉशिंग-मनीश, फोन, मोबायल, पेजर, कॉम्प्यूटर, लिपस्टीक, क्यूटेक्स** सारकेलीं इंग्लीश उतरां हालिंच्या काळार रिगल्यांत.

नव्यो चाली-रितीय नवीं उतरां घेवन येतात. 'पिकनीक', 'गॅदरींग', 'जॉगींग', 'स्विमींग', 'पार्टी', 'बड्डे', 'थँक्यू'... हीं अशे तरेचीं हालिंच्या काळार इंग्लिशींतल्यान कोंकणींत आयिल्लीं उतरां. 'पिकनीक' ह्या उतरा खातीर मराठीन 'सहल' हें उतर घडयलां. जायते फावटीं कोंकणीच्या उपचारीक वापरांत आमी 'पिकनीक' उतराक कडसरावन 'सहल' उतर आपणायतात. पूण 'पिकनीक' जितलें कोंकणीचें 'घरचें' जालां तितलें 'सहल' जावंक पावंक ना. 'संगणक' ('कम्प्यूटरा' खातीर मराठीन घडयल्लें पर्यायी उतर) उतराचीय कोंकणींत हीच गत जाल्या. घडये, खासा मराठींत लेगीत ह्या उतरांची हीच परिस्थिती आसतली. 'गॅदरींग' उतरा खातिरूय आमी कोंकणींत अदीं मदीं मूळ मराठी 'स्नेह सम्मेलन' वा नवें घडयल्लें उतर 'वर्सुकी मेळ' हीं उतरां वापरतात. पूण हीं दोनूय, 'गॅदरींग' उतर आमच्या भासांनी रिगले उपरान्त घडयल्लीं देशी पर्यायी उतरां. देखून भाशेच्या अनुपचारीक वापरांत तीं संवकळिचीं जावंक पावनात. देखून, '२५ जानेवारीक शाळेचो वर्सुकी मेळ आसतलो' अशी नोटीस (हेंय असलेंच उतर) लागिल्ली आसतनाय भुरगीं चडशीं '२५ जानेवारीक आमचें गॅदरींग !' अशेंच म्हणटात. पिकनिके वरी गॅदरिंगूय बी येवरोपी शिक्षण-संस्कृतायेचें एक घटक. कोंकणी समाजान हे शिक्षण संस्कृताये वांगडा येवरोपी उतरांय सहजतायेन आपणायल्यांत.

'इश्कॉल'/'स्कूल' ह्या उतरां संबंदांनूय अशेंच घडलां. तशें पळोवंक गेल्यार, 'इश्कॉल', 'स्कूल' आनी 'शाळा' हीं समानअर्थी उतरां. पूण कोंकणीच्या अनुपचारीक वापरांत 'शाळा' उतर आमी चडशीं 'मुळावी शाळा' ह्या मर्यादींत अर्थान वापरतात. आनी, 'इश्कॉल', 'स्कूल' हीं उतरां 'माध्यमीक शाळा' ह्या अर्थान वापरतात. देखीक लॉयॉला हायस्कुलांतल्या पांचवेंतल्या भुरग्याक आमी 'तुजी शाळा कितल्यांक सोंपता ?' वा 'तुमचे शाळेंत कोंकणी कोण शिकयता ?' म्हूण विचारचीं नात. 'तुजें इश्कॉल / स्कूल कितल्यांक सोंपता ?', 'तुमच्या इश्कॉलांत / स्कुलांत कोंकणी कोण शिकयता ?' अशें विचारतलीं. (शिक्षणाचें माध्यम म्हूण कोंकणी सारकेले देशी भाशेच्या वापराक शीम पडल्या. हे वांगडाच 'शाळा' उतराचो अर्थूय बी आंवळून येवंक ना मू ?) 'जॉगींग', 'स्विमींग' ह्योय अश्योच नव्यो चाली-रिती. तांची सुवात 'धांवप', 'पेंवप' हीं दिसपट्ट्या वापरांतलीं उतरां घेवंक पावनात. 'पार्टी', 'बड्डे' उतरांचीय तरा वेगळी न्हय. 'पयलो आयलो ? आमकां पार्टी केन्ना रे ?' ह्या संदर्भांत '...आमकां

---

* भायलीं फकत इतिहासीक नदरेन. आयज हीं उतरांय 'निजाच्या कोंकणी' उतरां वरीच 'भितल्लीं' – आमचींच उतरां.

जेवण केन्ना रे?' केन्ना येना. 'बड्डे' म्हळ्यार वाडदिसूच. पूण चडसो येवरोपी पद्दतीन मनयल्लो वाडदीस. (भुरग्यांच्या वाडदिसांच्या मनोवपांत तर Happy Birthday to you... हें गीत म्हणप हे पद्दतिचो म्हत्वाचो वांटो. देखून जायते फावटीं भुरगीं वाडदिसाक 'बड्डे' म्हणपा बदला 'हॅपी-बड्डे' म्हणटात). थँक्यू म्हणप हीय येवरोपी संस्कृतायेच्या संपर्काक लागून भारतांत रिगिल्ली नवी चाल. (आमी 'थँक करप' म्हणनात, 'थँक्यू म्हणप' म्हणतात! जिबे वयल्या उपचारा पुरतीच आमी ही चाल घेतल्या.)

एके भाशेंतलें उतर दुसरे भाशेंत पावल दवरता तेन्ना तें एक तर आपणाल्या मूळ नाद-रुपा (phonetic-form) सयत येता वा, येतनाच नवे भाशेच्या सभावांत बसत अशे तरेचें नवें नाद-रूप घेवन येता. संस्कृत व्याकरणकार हांकां, अनुक्रमान, 'तत्सम' आनी 'तद्भव' उतरां म्हणटात. दिवपी भाशेची नाद-वेवस्ता घेवपी भाशेचे नाद-वेवस्तेक लागिंचीं आसलीं जाल्यार उश्ण्या उतरांचीं नाद-रुपां तश्या तशीं उरूंक व्हडलिशी अडचण जायना*. देखीक, 'तमाशा', 'लावणी', भेळ-पुरी', 'पाणी-पुरी' सारकेलीं उतरां मराठींतल्यान कोंकणींत येतात तेन्ना तांच्या उच्च्यारांत व्हडलोसो कांय बदल घडून येना. ('तमाशा' हें उतर मूळ अरबी, पूण कोंकणींत तें मराठींतल्यान आयलां – मराठी लोकवेदांतलो नाटकाचो एक प्रकार, ह्या अर्थान. हीच गजाल 'भेळ-पुरी', 'पाणी-पुरी' उतरांची. हीं मूळ हिन्दी उतरां, कोंकणींत तीं मराठींतल्यान आयल्यांत – ळ् आनी ण् नाद घेवनूच. 'भेळ-पुरी', 'पाणी-पुरी'ची संस्कृतायूय आमचे कडेन महाराष्ट्रांतल्यान – मुंबयच्यान आयल्या. **तमाशा** उतराचो उच्चार कोंकणींत बदलना अशें हांगा म्हळां खरें. पूण ज्या कोंकणी बोलयांनी **अ** चो उच्चार 'वांटकुळो' (ओंठ मातशे वांटकुळे करून – मुखेलपणान गोंयच्या क्रिस्तांव बोलयांनी, जाता त्या बोलयांनी **तमाशाचेंय** नादांचे नदरेन एके तरेचें तद्भवूच जाता.)

दिवपी आनी घेवपी भासांच्यो नादांच्यो वळेन्यो वा नाद-वेवस्ता खूब वेगळ्यो आसतात तेन्नाय, उलोवप्यांक दिवपी भाशेची संवकळ आसता तेन्ना तांगेले उश्ण्या उतरांचे उच्चार मूळ उच्चारांक खूब लागीं जातात. देखीक, उर्दूचेर प्रभुत्व आशिल्ल्या कोंकणी मनशाचे जिबेर **ग़जल** उतर येता तेन्ना तांतूंत उर्दूचें ग़य सहजपणान येता.

पूण सामान्यतायेन एकेच जिबेर एकाच वांगडा दोन नाद-वेवस्ता सांबाळप कठीण जाता आनी मागीर उश्ण्या उतरांचें कांय प्रमाणांत तरी तद्भवीकरण जाता. भारतीय भासांनी येवरोपी भासांतल्या उश्ण्या उतरां संबंदान चडशें अशें घडटा. देखीक, कोंकणी सारकेले भाशेंत अक्षराचे (syllable)चे लांबायेक भाशेच्या तालाचे – 'संगिता'चे नदरेन म्हत्व आसा. (हाका syllable-time rhythm म्हणटात). इंग्लिशी सारकेले भाशेंत अक्षरां वयलो 'नेट' / 'आघात' (stress) भाशेचो ताल थारायता. (हाका stress-time rhythm म्हणटात.) हाका लागून, कोंकणींत खंयचेंय इंग्लीश उतर येता तेन्ना जिबेक एकाच वांगडा दोन तरांचीं संगितां गावप कठीण जाता आनी इंग्लीश उतर कोंकणींत पावल घालता तेच घटकेक आपणाले आघात वगडावन बसता आनी कोंकणीच्यां संगिताकडेन जुळोवन घेता.

उतरांच्या तद्भवीकरणांत घेवपी भाशेचें व्याकरण झळकता. देखीक, **स्टूल, स्टॉप, स्टँड, स्क्रू, स्कोर, स्कूल** सारकेलीं उतराचे सुरवेक (खरेपणानशीं अक्षराचे सुरवेक) **स्ट्** वा **स्क्** हीं जोडयीं व्यंजनां आशिल्लीं उतरां कोंकणीचे नादवेवस्तेंत बसनात. कोंकणींत जोडयीं व्यंजनां उतराचे निमाणे कडेन (खरेपणानशीं अक्षराचे निमाणे कडेन) येतात. देखीक **मस्त, पोस्त, फस्क, फस्क** सारकेलीं उतरां. उतरांचे मर्दीय जोडयें व्यंजन येना. **मस्तेपण, फस्कां** सारकेल्या उतरांनी बरोवपाचे रितीक लागून **स्त्** आनी **स्क्** हीं जोडयीं व्यंजनां जिबेर आसात अशें दिसता. पूण उतरांची अक्षरीक बांदवळ पळेली जाल्यार तीं दोन दोन मेकळीं व्यंजनां म्हणपाचें आमच्या लक्षांत येता –– मस्तेपण: म्अस् – त्अॅ – प्अण्; फस्कां: फ्अस् – क्आं. ह्या व्याकरणाक लागून **स्टूल, स्टॉप...** सारकेलीं उतरां कोंकणी जिबेर **इस्टूल/इश्टूल, इस्टॉप/इश्टॉप, इस्टँड/इश्टँड, इस्क्रू, इस्कोर, इस्कू...** जातात. कोंकणी जीब उतराचे फुडें इ लायता आनी जोडया व्यंजनांक मेकळीं करता. पंजाबी आनीक एके भाशेन हो प्रस्न सोडयता – व्यंजना मर्दीं **अ** घालून जोडयें व्यंजन मेकळें करून **स्टूल, स्कूल** पंजाबींत **सटूल, सकूल** जाता.

तद्भवीकरणाक लागून उश्णीं उतरां घेवपी भाशेच्या सभावाकडेन भोव बरे तरेन जुळोवन घेतात (हाका adaptation म्हणटात). हातुंतल्यान नवे भाशेंतलीं तांगेलीं पाळां-मुळांय घट्ट जातात. जायते फावटीं उश्णीं उतरां भाशेकडेन इतले फिशालकायेन जुळोवन घेतात कीं तांगेल्या नव्या रुपांनी मूळ रुपांची सुलूस सोंपेपणान मेळना. हीं कोंकणी उतरां पळेयात: भिकारभासो < फारसी-अरबी 'बेकार बहस'; आलमपेड्ड्यार < पोर्तु. alma perdida ''शेणिल्लो आत्मो''; आमोरी < पोर्तु. Ave-maria; बोणी (''बोणी करप'' – दिसाची पयलीच विक्री, ह्या अर्थाची); < पोर्तु. Bom Dia; शितिमेत < पोर्तु. sentimento; बड्डें, आल्लें / आर्लें (थळांचीं नांवां) < पोर्तु. borda (''बॉर्डर''), alem (de Margão) ''(मडगांवचे) पेले वेटेनचो वाटार; चॉकॉप्स < इंग्लीश shock absorber; किलिंडर < इंग्लीश cleaner, वायसर < इंग्लीश washer... हेच भाशेन पोर्तुगिज obrigado खंय जपानी जिबेर **आरिगातो** जालां; अरबी **इन्शा अल्लाह!** ''देवाची इत्सा!'' पोर्तुगिजींत Oxalá! जालां, हिन्दी **ठग** खंय इंग्लीशींत thug जालां. केन्ना केन्ना, दिवपी भाशेक घेवपी भाशे परस अदीक प्रतिश्टा आसता तेन्ना उश्ण्या उतरांच्या तद्भवीकरणाकडेन घेवपी भाशेचे उलोवपीच उणाकपणाचे नदरेन पळेतात. इश्टूल, इस्क्रू, चॉकॉप्स, वायसर सारकेलीं इंग्लीश उतरांचीं तद्भवां इंग्लीश शिक्षण घेतिल्ल्या कोंकणी उलोवप्यांचे जिबेर सामान्यतायेन घोळटना दिसनात*. इंग्लीश शिक्षण घेतिल्ले कोंकणी उलोवपी कोंकणींतलीं इंग्लीशीकडल्यान आयिल्लीं उश्णीं उतरां जाता तितलीं मूळ उच्चारांक लागीं दवरुपाचो यत्न करता**. (तरी, वयर सांगलां ते प्रमाण, ताचेय जिबेर गॅंदरींग पयल्या अक्षराचेर नेट आशिल्लें 'gæðriŋ] जायना, ['gɛdɜri:ŋg]च जाता; पिकनीक ['pIknIk] जायना, ['pikni:k]च जाता. उश्ण्या उतरांचे उच्चार मूळ इंग्लीश उच्चारांक जितले लागीं आसतात तितली कोंकणी समाजांत उलोवप्याची प्रतिश्ठा वाडटा. 'इश्टॉप' ''अप्रतिश्ठीत उच्चार'' आनी 'स्टॉप' ''प्रतिश्ठीत उच्चार'' जाता. हेच भाशेन, मूळ येवरोपी

---

* **दिवपी भास**: 'donor language' – उतरां वा भाशेचे वेवस्तेचो हेर खंयचोय घटक हे भाशेंतल्यान दुसरे भाशेंत वता. ही उश्णें दिवपी भास.

**घेवपी भास**: 'receiver language' – दुसरे भाशेचीं उतरां वा भाशेचे वेवस्तेचो खंयचोय घटक हे भाशेंत भितर सरता. ही उश्णें घेवपी भास.

* दिवपी भाशेचे संवकळीक लागून असले तरेचो बदल घडून येता अशें ब्लूमफिल्डा सारकेले जाणकार म्हणटात. पळेयात: Bloomfield, L. 1933: Language: 447, 448. संवकळी वांगडा हांगा प्रतिश्टेचो मुद्दोय भोव म्हत्वाचो म्हणपाचें बारिकसाणेन पळेल्यार आमच्या लक्षांत येवं येता.

** अशें करतना केन्ना केन्ना आमचे कडल्यान 'अतिदुरुस्ती' (hypercorrection) घडटा – **estate** सारकेल्या, मुळांतूच इ- आशिल्ल्या उतराचो उच्चार कोंकणी मनीस 'स्टेट' असो करता.

भासांतल्यान आयिल्लीं मनशांचीं वा येवरोपी थळांचीं नांवांय आमी जाता तितलीं तत्सम तरेन उच्चारपाचो यत्न करतात. **फरांशीक** उच्चार खासा 'फरांशीका'क लेगीत आवडना – **फ्रांसिश्कु** वा **फ्रॅन्सिस्क** आवडटा. लंडन, लिज्बोअ आमी आमचे जिबेर लंडन, लिज्बोअ (वा इंग्लीश लिज्बन) उरचें म्हूण आमी यत्न करतात. एका काळार 'मॉसांबीक' कोंकणींत 'म्हसमी' जाल्लें. (**म्हसमी भिकण** उतरांत तें अजून उरलां.) पूण आयज आमी 'म्हसमी' म्हणूंक फाटीं-फुडें येतलीं, 'मॉसांबीक'च म्हणटलीं.

इंग्लिशी सारकेली येवरोपी भास मात खंयचेय भाशेंतलें उश्णें उतर तद्भव करपाक अनमनना. (तेंच कित्याक, भारतीय मनीस (भारतीय) इंग्लीश उलयता तेन्ना ताचेय इंग्लीशींत भारतीय उश्ण्या उतरांचो तद्भवूच उच्चार जाता – **राम** 'रामा' जाता, **कदंब** 'कदंबा' जाता (आमगेल्यो **कदंबा** बसी!) बाळ ठाकरेंची (बॉम्बेची) 'मुंबई' लेगीत ब्रिटीश मनशाचे जिबेर पयल्या अक्षराचेर नेट आशिल्ली 'मूम्बाय' जाता, फ्रॅंच 'पारि' इंग्लीशींत 'पॅरीस' जाता आनी इंग्लीश 'लंडन' फ्रॅंचींत 'लॉन्द्र' जाता. एका काळार इंग्लीश समाजांत फ्रॅंचीक इंग्लीशी परस अदीक प्रतिश्ठा आशिल्ली हाची गवाय इंग्लीश नाद-वेवस्तेचे नेम मोडपी फ्रॅंच भाशे कडल्यान घेतिल्ल्या कितल्याश्या उश्ण्या उतरांच्या उच्चारांत मेळटा – salon [Sa'lõ], garage [ga'raž], chauffeur [šofœr], camouflage [kamufla:ž]...

घेवपी भाशेक (भाशेच्या उलोवप्यांक) दिवपी भाशेची संवकळ आसता तेन्ना आनी दिवपी भाशेचीं कितलिंशीं उतरां घेवपी भाशेंत पावताल तेन्ना केन्ना केन्ना उश्ण्या उतरां वांगडा नवे नादूय भाशेंत रिगतात. स्कॅंडिनेवियन उश्णे उतरावळीक लागून इंग्लीशींत स्क् हें जोडयें-व्यंजन रिगलां – sky, skin, skirt हीं इंग्लीशींतलीं उश्णीं उतरां. हे तरेचीं उतरां इंग्लीशींत स्क् घेवन आयलीं आनी मुखार असल्या उतरांच्या प्रभावान इंग्लीशींत scatter, scrawl, scream सारकेलीं नवीं उतरां घडलीं.* हिन्दी-उर्दूंतूय अशेच फारसी-अरबी उतरावळीक लागून क़्, ग़्, ज़्, फ़् हे नाद रिगल्यात. गोंयचे कोंकणींत पुतुगीज उतरावळिच्या प्रभावाक लागून फ [ ] नाद भितर सरला जावं येता. ह्या नादान आयज भारतीय-आर्य फ [ph] ची सुवात घेतल्या. कोचीचे कोंकणींत मलयाळम उतरां वांगडा, ञ् व्यंजन रिगलां जावंक जाय असो म्हजो अदमास आसा. हाचेर अदीक वावर जावपाची गरज आसा.

उश्णीं उतरां भाशेंत घरचीं जातात तेन्ना भाशेच्या व्याकरणाकडेन तीं पुरायेन समरस जातात. तांकां घेवन भाशेंत नवी उतरावळ – नवीं गांठवलां, नवीं दुव्याचीं उतरां (समास)**, नव्यो संधी लेगीत घडटात. **बरय** हें उतर कोंकणींत कन्नड भाशेंतल्यान आयलां (कन्नड **बरेइवुदु** ''बरोवप''). ह्या उतराच्या पालवानूच मुखार कोंकणींत बरप, बरपावळ, बरोवपी / बोरोयणार हीं नवीं उतरां घडल्यांत. कांय कोंकणी उलोवप्यांचे (उपचारीक शिक्षण नाशिल्ल्या उलोवप्यांचे) जिबेर हांवें 'बरोवप' उतरा बदला 'लिवप' उतर घोळटना आयकलां (अंत्रुजेंत लेगीत). घडये हेंच उतर नीज कोंकणी उतर आसुंये. कोंकणीच्या लागींच्या भयण-भासांनी हेच तरेचीं उतरां मेळटात – मराठी: लिहिणे, गुजराथी: लखवानुं, हिन्दी: लिखना. पूण आयज **बरोवप** इतलें 'आमचें' जालां की **लिवप** आमकां भायलें – मराठीच्या प्रभावान आयिल्लें उतर कशें दिसता. **आवट** उतरूय कोंकणींत अशेंच समरस जालां. ह्या उतरा वयल्यान कोंकणींत **आवटें, आवटो, आवटी** हीं आनीक उतरां घडल्यांत. **आवटसाण** हें उतरूय स्लॅंग कोंकणींत घोळटा – 'सामकी आवटसाण (पिसाय) मरे!' – हे भाशेन.

उश्ण्या उतरांचे घडणेच्या प्रभावानूय केन्ना केन्ना भाशेंत नव्या उतरांची भर पडटा. देखीक, इंग्लीशींत फ्रॅंचींतल्यान –ible / –able कुसां घेवन कितलिंशीं उतरां आयलीं – agreeable, excusable, variable हीं इंग्लीशींतलीं फ्रॅंच तद्भवां. हांच्या प्रभावान इंग्लीश bear, eat, drink सारकेल्या इंग्लीश निजाच्या क्रियापदांकूय –able कूस लावंक लागली आनी bearable, eatable, drinkable हीं उतरां घडलीं.* कोंकणींत पुतुगिज **सांव** कुसान अशी नव्या उतरांची भर घाल्या – **फुगासांव, इस्तिमसांव, पिकसांव...** हीं कोंकणींतलीं पुतुगीज तद्भवां. हांचे आयटिचेरूच कोंकणीन **कातकिसांव, गुड्डुलसांव, उल्लूमसांव, बेजासांव** सारकेलीं नवीं उतरां घडयल्यांत. **बेजासांव** उतरांत बेजार + सांव हे दोन घटक मेळटात. हातुंतलें **बेजार** फारसी उतर जावंक जाय. हाका कोंकणीन मूळ पुतुगीज –सांव लावन बेजासांव घडयलां. पिकार: पिकासांव, फुगार: फुगासांव तशें बेजार: बेजासांव! **पिकार, फुगार** हीं मूळ पुतुगिज क्रियापदां. **बेजार** तशेंच जाल्ले वरी कोंकणीन ताका **–सांव** लायलां.

दोन समाजां मजगतचें संस्कृतायेचें दिवप-घेवप आनी दोन भासां मजगतचें उतरावळिचें दिवप-घेवप ह्यो दोनूय गजाली हातांत हात घालून चलतात. उतरावळिच्या अभ्यासांतल्यान कोणें कोणाक कितें दिलां, कोणाकडच्यान कितें घेतलां ताचो आमच्यांनी थाव घेवं येता. कोंकणीची दिसपट्ट्या वेव्हारांतली वेपार-धंद्याविशिंची उतरावळ पळेयात – **जमा, खर्च, लुसकान/लुकसान/नुकसान, फायदो, हिशेब, वसूल, वसुली, वजन, बाकी, माल, दुकान, बाजार...** हीं सगळीं मूळ फारसी-अरबी उतरां! तीं कोंकणींत कशीं आयलीं? फारसी/अरबी भासांतल्यानूच तीं कोंकणींत आयल्यांत काय आदीं मराठीन हीं उतरां घेतल्यांत आनी उपरान्त आमकां दिल्यांत? हाचेर अभ्यास जावंक जाय. क्रिस्तांव धर्मा संबंदाची कोंकणी उतरावळ घेवंया – शेरमांव, मीस, लादीन, कुमसार, कुमयांव, रॉजार, बेसांव... बी. ही सगळी उतरावळ कोंकणींत पोर्तुगेजींतल्यान आयल्या. हालीं **शेरमांव, मीस** बी उतरां बदला जायत्या जाणांचे जिबेर **सरमन, मास** आयकूंक येता. इगर्जूच केन्ना केन्ना **प्रवचन, याज्ञीक, स्वामी** सारकेलीं संस्कृत भाशेकडल्यान उश्णीं घेतिल्लीं उतरां वापरता. अशें कित्या खातीर घडटा? उश्णे उतरावळिचो source 'आपशींच' बदलता? काय आमी तो 'मुद्दाम' बदलतात? अशे तरेन source बदलून आमची खंयची गरज भागता? समाजभासविज्ञानाच्या आनी भाशेच्या समाजशास्त्राच्या आदारान ह्या प्रस्नांचो आमच्यांनी थाव घेवं येता.

* * *

---

* Bloomfield, L. 1933: 447

** शणै गोंयबाब, १९४७: कोंकणी मुळावें पुस्तक

* Bloomfield, L. 1933: 454

# तीर-सुवादीक कॉलम

दिलीप बोरकार

'मी काय रे तसलां ? पोटाक पाड पडलां म्हणान करतय.'
हीं उतरां भुरगेपणासावन म्हजी फाट सोडिनात.
आमच्या गांवांत गवंडीपण करूंक कांय लोक येताले.
तांच्या सांगताक एक बायलूय आसताली.
तिणें शिमीट कालोवप, रांदप बी असलीं कामां करप.
म्हाका ती वनवासाक आशिल्ल्या पांडवांची द्रौपदी कशी दिसप.
काम करतना, जेवतना त्या गवंड्यांनी तिचीं फकांडां करप.
तांणी तिचीं फकांडां केलीं की तिणें लजप आनी म्हणप,
'मी काय रे तसलां ? पोटाक पाड पडलां म्हणान करतय.'
उपरांत ती बायल, ते गवंडी खंय गेले तें हांव नकळ
पूण वतना मात म्हजे खातीर हीं उतरां सांडून गेले.
आतां आमचे म्हालगडे लेखक मात तशे खरेले भाग्यवंत.
तांणी पुर्तुगेज पाकले वा फिरंग्यांची समर्थ जीण पळयल्या
तांचे गिरेस्त संस्कृतायेक, दायजाक बी ते साक्षी आसले.
शंकर भांडारी, अना, लक्ष्मणराव हांणी ती साहित्यांत हाडली.
पूण म्हज्या सारख्या कर्मकट्ट्याक मात ती गावली ना.
म्हाका समजूंक लागलें तेन्नाच तांणी पळ काडलो.
ह्या साहितियिकांनी न्हय, त्या पाकले आनी फिरंग्यांनी.
फकत म्हाका वाचूंक मेळ्ळें 'ते फिरंगी गेले आनी ते उंडेय गेले'.
आतां, ह्याच उंड्यांचेर, पदेरांचेर, फिरंग्यांचेर हांवें कशें जगप ?
ज्ञानपिठाखातीर कांय म्हजें साहित्य तांचेर तोर्रद जावंचें ना.
ते पासत म्हाका कितें तरी आतां थळावेंच सोदूंक जाय.
तेच सुप्त इत्सेन, म्हाका दिसता, तीं उतरां म्हाका घट्ट दसल्यांत.
थोर साहितियिकांक लाबिल्लो हो देवाचो वर आसूंक जाय.
म्हज्या जिविताचें आंग जाल्लीं हीं उतरां मदीं मदीं वयर सरतात. तीं ओंठार येवं नाकात पूण तकलेंत आयले बगर रावनात.
आतां हेंच पळयात, कोंकणी-मराठी वाद म्हाका नाका आशिल्लो.
तो जायच जाल्यार घांटयांनी गोंयांत करूं येतालो.
आनी गोंयकारांनी गोंयाभायर वचून घांटार करूं येतालो.
मोग आसल्यार गरम सान्नां घांटार लेगीत पावतात खंय !
पूण हे दोगूय वादी भाशेचो वाद हांगाच करूंक लागले.
म्हाका जेन्ना तांची कॉमीक दिसली तेन्ना हांवें मराठीवाद्यांक विचारलें,
'आरे पापयांनो, तुमची भास कोंकणी, मराठीक कित्याक झगडटात ?'
तीच गत कोंकणीवाद्यांची. तांकांय हांवें तेंच विचारलें,
'आरे सभाग्यांनो, तुमची भासूच कोंकणी. तिचे पासत हें कसलें झगडें ?'
पूण दोगांय वाद्यांनी म्हाका व्हडलोसो सिरियस घेवंक ना.
कित्याक तर दोगांयकडल्यान म्हाका जाप मेळूंक ना.
तांकां चड करून हांव तटस्थ गोंयकार दिसला आसूंक जाय.
तांणी कांय जाप दिवंनाका पूण म्हाका तांचेकडल्यान जाप मेळिल्ली.
म्हाका तांचे भितर भुरगेपणावयली ती बायल दिसताली.
हांगा हें अशें जाल्यार बाकिच्या मळांरूय तेंच.
मागीर तें साहित्याचें जावं, राजकी जावं वो आनीक कसलेंय.
कोणाक तूं कितें आनी कित्याक करता हें विचारपाचें ना.
तांच्या कपलार म्हाका तीच जाप बरयल्ली दिसता.

तेंच कित्याक ? हालीं हालीं म्हाकाय तीच जाप दीन दिसता.
हांवें बरोवंक सुरवात केली खरी पूण ती पोटांत पडपाची गजाल न्हय.
देखून हांवें कांय पेपरांनी कॉलम बरोवंक आरंभ केलो.
आतां कॉलम म्हणटकच कुकडावरी वाऱ्यार उस्तुचेंच पडटा.
खरें म्हळ्यार ताची गरज ना पूण वाचप्यांक तशें दिसता.
समजा एकल्यान दोन-चार कविता रचून तो फामाद जाला
आनी तो एकांतांत बसून वो गर्देंतूय कितें तरी येवजिता,
पळयतल्याक दिसता तो कवी म्हणटकच कविता करता.
तशें दिसून तरी तो ओगी रावता ? ना. वेल्यान प्रस्न करता,
'कितें रे ? तंद्री लागल्या ? कविता करता ? म्हण पळावया.'
तशें बाकीबाबाविशीं, माधव, रमेश हांचेविशीं येवजप बरें आसा.
पूण राजय पवार, प्रसाद लोलयेंकार हांचे विशीं तशें येवजप म्हळ्यार अतीच.
ते बाबडे आसतात जावंक जाय आपले विवंचनेंत !
आतां म्हजेंच पळयनात ? म्हाका आसात हजार विवंचना.
तरी हांव तें तिरसुवादीक कितें तरी वेळ मेळटा तशें खरडटां
आनी आपलें नांव खंय घालां तें पळोवंक कांय लोक तें वाचतात.
इतल्यार हो प्रकार थंयच थांबूंक जाय आशिल्लो.
पूण प्रत्येकाक दिसता हांव कोणाचीं कुतां काडचीं तें सोदतां.
पयरूच म्हाका मडगांवां बाजारांत एक मडगांवकार मेळ्ळो.
हांव वीस रुपयांचें नुस्तें व्हरचें काय धा रुपयांचें तें चिंततालों.
'कितें रे बोरकार, बोरकारी येवजिता ? हे फावट कोणाचेर रे ?'
ताणें नुस्त्या बाजारांत मोठ्यान म्हळें आनी सगळ्यो नुस्तेकान्नी म्हाका पळोवंक लागल्यो.
हांव हालीं कितें बरयतां हें हाका खबर ना.
तो म्हाका विचारतालो सामकी इतिहासांतली गजाल.
ताची म्हाका सामकी भिरभिरी मारली.,
पूण आदींच मडगांवकार. तातूंत बामण. पाड पडूं म्हणून सोडून दिलो.
ताका सोडलो खरो. पूण म्हजें चिंतप फाट सोडिना जालें.
हें अशें विचारपी हो एकलोच मडगांवकार न्हय.
म्हाका जायत्या जाणांनी हो प्रस्न हे आदीं केला.
खंयचेय कार्यावळीक जावं सुवाळ्याक हांव वतां तो विशयूच सोदूंक अशें हांकां दिसता.
ते पासत हालींसराक हांव कसलेच कार्यावळीक वचना.
प्रशांत कामत आनी गुणाजीच्या लग्नाक लेगीत गेलोना.
पूण असो लोकांक टाळून म्हजो प्रस्न सुटटा ?
खरें सांगपाचें म्हळ्यार म्हजेर आतां लोकांचो प्रभाव पडला.
हांव जंय वतां थंय म्हाका आतां म्हजो कॉलमूच दिसता.
आनी हांव ना म्हणटनाय म्हजे मुखार ती बायल उबी रावता.
'मी काय तसलां ? पोटाक पाड पडलां म्हणान करतय.'
पयरची गजाल. हांव पणजे बाजारांत गेल्लों.
म्हजी सोदपाची नदर आतां खंयूय कितेंय सोदता.
कोयराच्या आयदना पासून रस्त्याच्या वालेतीं मेरेन.
सांगूं नज, केन्ना कोणाक खंय कितें मेळत तें !
फाटली गजाल म्हाका एक याद जाता.

'नागीण' म्हूण कविता संग्रह बरोवपी सुनील पालकाराची.
(पयलो चंवर अनुदान मेळ्ळें म्हूण ताणें 'नागीण' काडलो.
दुसरो चंवर अनुदान आशिल्लें जाल्यार ताचो 'दिवोड' भायर सरपाचो.)
ताका बाकीबाब काव्यसर्तींत कवितेक पयलें इनाम मेळ्ळें.
हांवें म्हळें कविता बरी आसा. केन्ना बरयली रे?
(अशें विचारप हांवें मनोहरबाबाकडल्यान घेतलां.)
ताणें म्हळें, हांवें ती बरोवंक ना. म्हाका ती वाटेर मेळ्ळी.
ताका ती पणजे वाटेर खंय तरी पडिल्ली सांपडली.
ताणें ताचेर थोडेशे आपले संस्कार केले
स्टायल रामभाऊची कशी दिसली तरी ती पालकाराच्या वळणार गेल्ली.
ताकाच लागून भोवतेक तिका पयलें इनाम दिल्लें जावंक जाय.
कोणाचें नशीब केन्ना खंय फळफळत तें सांगूं नज.
ताका जर रस्त्या कुशीक कविता सांपडटा जाल्यार म्हाका विशय मेळूंक कितें जालां?
तो म्हाका मेळूं वा मेळूं नाका. पूण म्हजी नदर वालेतींत, गटारांत, कोयराच्या आयदनांत वता खरी.
पणजे बाजारांत भोंवतना म्हजी नदर तशी भोंवताली.
तेच वांगडा म्हजेर कोणाची तरी नदर भोंवता असो म्हाका भास जाताली.
म्हजो भास खरो आशिल्लो. अंजू खवंटे म्हाका पळयतालें.
सादें भुरगें. ताका हांव कितें सोदतां तें कळचेंना म्हूण म्हाका सूऽ जालें.
'खंय गो अंजू? कॉलेजीक?'
'ना. हांव आयज परिक्षक आसां.'
परिक्षक म्हणटकच हांवें आंग काडलें आनी म्हाका बरेंय दिसलें.
पयलीं मेळटा तेन्ना दोतोर तानाजीच हें वाक्य म्हणटालो.
आतां नवी पिळगी म्हणटा तेन्ना बरेंऽ दिसता.
'परिक्षक? कसली स्पर्धा आसा तर?'
'कोणेंतरी प्रेमपत्रां बरोवपाची सर्त दवरल्या रे. हांव एक परिक्षक आसां.'
सर्त कसलीय आसूं! पूण परिक्षक कोणेंय जावप?
तशी गोंयांत ती नविदाद न्हय.
गोंयांत सर्ती चड आनी परिक्षक उणे.
कला अकादमी कितल्योशो स्पर्धा वर्सभर घेता.
तांच्या परिक्षकांचीं नांवां काडून पळयात.
हे सगळे तज्ञ इतलीं वर्सां खंय लिपून आशिल्ले होच प्रस्न पडटा.
तेन्ना अंजून परिक्षक म्हूण वचप कितलेंशें बरें.
पूण हांवें आंग काडलें तें सर्तिचो विशय पळोवन
'अंजू, प्रेमपत्रां म्हळ्यार कितें तें जाणा मुगो तूं?'
'कित्याक.विचारता रे?' ताचोच म्हाका प्रस्न.
'तुवें कितलीं प्रेमपत्रां बरयल्यांत, कितलीं वाचल्यांत हें खबर ना म्हूण विचारतां.'
'परिक्षक जावंक प्रेमपत्रां बरोवंक, वाचूंक जाय अशें कितें आसा?'
'आगो विशय खबर ना म्हणटकच तूं अन्याय करचेंना कोणाचेर?'
'कांय जायना अन्याय. हीं बक्षिसां म्हळ्यार साहित्य अकादमी पुरस्कार न्हय.'
अंजून फटक करून थोमणो मारलो.
इतल्यारूच तें ओगी रावलेंना.
'हांव तरी पत्रां वाचून परिक्षण करपी. कितल्याश्या व्हडल्या व्हडल्या इनामां खातीर पुस्तकां वाची लेगीत नासतना परिक्षक आपणालो निर्णय दितात.'
अंजून म्हळें, आनी तें ताकतिकेन चलत रावलें. * * *

---

# पाकिस्तानी काणी

शेख चिल्ली सभावान सादो-भोळो आशिल्लो. सादो भोळोच न्हय, अरवळ आनी मुर्खूय आशिल्लो. देखून ताका कोणूय फटयतालो.

एक दीस गांवच्या जमीनदारान ताका आपोवंक धाडलो. ह्या जमीनदाराक लोक फटींग म्हूण वळखताले. ताणें शेख चिल्लीक गांवांतलीं घरां मेजून यो म्हूण सांगलें. एका घरा फाटल्यान ताका २० पयशे दिवपाचेंय उतर दिलें.

शेख चिल्ली उमेदीन भायर सरलो. गांव भर भोंव भोंव भोंवलो. सांजवेळ म्हळ्यार घरां मेजपाचें ताचें काम सोंपलें आनी जमीनदारा कडल्यान थारिल्ले प्रमाण तो आपणालो मुशारो घेवन आयलो.

शेख चिल्लील्या इश्टांक ही खबर कळ्ळी तेन्ना ते ताका मेळूंक आयले. साद्या भोळ्या सभावाक लागून इश्टांक शेख चिल्ली आवडटालो.

एकल्या इश्टान म्हळें, 'आरे पिश्या, हो जमीनदार कसलो तें तूं जाणा. तागेलें काम घेवचे पयलीं मातशें आमकां विचारचें न्हय?'

'फटयलाच आसतलो ताणें तुका...' दुसऱ्यान म्हळें.

'ना, ना... हे खेपे ताका फटोवपाची संदूच दिवंक ना हांवें...' शेख चिल्लीन मुमुरख्यांनी हांसत म्हळें.

'कशी ती...?' आनीक एका इश्टान विचारलें.

'आरे, हे फावटीं हांवेंच ताका फटयला!' शेख चिल्लीन हड्डें मुखार काडून म्हळें.

'अब्बा! तुवें ताका फटयलो? कसो रे बाबा...?' शेख चिल्लील्या इश्टांक सामकें अजाप जालें.

'कसो म्हळ्यार? आरे, हांवें ताका घरांचो खरेलो आंकडोच सांगलो ना. सगळीं मेळून हांवें साठ घरां मेजिल्लीं; पूण जमीनदाराक हांवें गांवांत फकत तीस घरां आसात म्हूण सांगलें... अदर्यान सांगलो आंकडो! बरो दुसऱ्यांक फटयतालो? आतां आपुणूच फटवलो ना...?'

☐ संवसारांत हांव आसां सर मरण येवपाचें ना.
येतलें तेन्ना संवसारांत हांव आसचों ना.
मरणाची आनी म्हजी भेट ह्या जल्मांत तरी जावपाची ना.
मागीर, ताका भियेतलों कित्याक?

— एक पुतुगीज कवी

# दोन देशभक्ती गीतां

□ रमेश घ. लाड

## उठ तरणाट्या जागय रात

दिकांदिकांनी भल्ला नाद
मायभुंयेचो आयला साद
सपनां गाडूंक दुस्मानाचीं
ऊठ तरणाट्या जागय रात ॥
भूंय आमची ही भोव मोलाची
सर येवंचिना सर्गाची
पेटय दिवटी जागृतायेची
वैरी तटला करूंक घात ॥
निबर हड्ड्याची घेवन ढाल
फौजी गेले करून चाल
मनांत हावेस पूर्ण जैताचो
अर्द्या जैताक रावचे नात ॥
शिमेर दाटलीं घोर अरिश्टां
हिमालयाचीं पेटलीं तेमकां
भाग्यवंत तो पूत आवयचो
घालीत जो त्या उज्यांत हात ॥
आयल्या आमी जोडीत जैतां
दुस्मानाचीं मोडून पेंगटां
एकूच निश्चेव धुवां पुतांचो
वैऱ्याक थारो दिवचे नात ॥

## सुटकेचो दीस

सुटकेचो हो दीस आयचो
आमच्या भारतंवर्षाचो
बलिदानांचें मोल मेजिल्ल्या
देशभक्त त्या वीरांचो
हिंद भूंय ही तरांतरांच्या
भासां आनी भेसांची
पावन भूंय ही विंगड विंगडशा
धर्मां आनी पंथांची
गंगा, यमुना, कृष्ण, कावेरी
निरधास्त थंय खळखळटात
फुलां-फळांच्यो बागो आनी
पांचवीं शेतां सळसळटात.
चंद्रगुप्त जावं अशोक सम्राट
हर्श, गुप्त बी जाले म्हान
प्रताप राणा शिवरायाचें
गायत रावचें किर्ती गान
सहिष्णुतेचो पवित्र संदेश
हिच्या पुतांनी केळयलो
सत्य शांतिचो मार्ग तांणी
संवसाराकूय दाखयलो.
संस्कृतायेच्या इतिहासाची
गिरेस्तकाय ही कितली म्हान
दुनियेभरच्या विद्वानांकूय
हांगा होल्मलें ब्रह्मज्ञान
नव्या युगांतूय विज्ञानाची
धरून चल्ल्यात आमी कास
खर येत्नांच्या कठीण पालवान
जैत जोडटले इतलें खास.

# कोंकणीच्या दिश्टाव्यान म्हाका घडयला !




[ चवथो वांटो ]

**नागेश करमली**

रेजमागचे बंदखणींत आसतना जेन्ना आमी 'कोंकणी अभ्यास मंडळ' घडयलें तेन्ना आनी उपरान्त 'जोत़' हातबरपी म्हयनाळें काडपाचें थारायलें तेन्नाय आमच्यांतल्याच कांय जाणांनी एक प्रस्न केल्लो; तो म्हळ्यार, 'आमी बंदखणींत आसात. सरकारान अकस्मात काडून आमकां आनीक खंयय धाडले बी जाल्यार अभ्यास मंडळ वा हातबरपी म्हयनाळ्याचें कितें जातलें ?'

प्रस्न तसो सामकोच भायर उडोवपाचो नासलो. बंदखणिची ख्यास्त भोगपाक आमी सगळे एकेच कडेन आसात थंयच उरतले म्हणपाचीय खात्री नासली. बंदखणींत म्हळ्यार सरकाराच्या ताब्यांत आशिल्ल्या मनशाक सरकार खंय धाडीत आनी खंय दवरीत तें सांगप कठीण आसलें. आमकां लस्करी कोर्टान म्हळ्यार पुर्तुगेजांच्या 'त्रिबुनाल मिलितार तेर्रितोरियाल' हाणें जी ख्यास्त सांगिल्ली तातूंत सरकार थारायत वा धाडीत थंय ती भोगपाची अशें निर्देशीत केल्लें. म्हळ्यार, आमचे आदीं ज्या कांय म्हालगड्या सुटके झुजाऱ्यांक पुर्तुगालाक वा आंगोलाचे बंदखणींत व्हरून दवरिल्ले तशें आमच्याय संबंदांत घडूं येतालें. पूण, एक फावट घरादाराक आनी घरच्या मनशांक फाट करून रणांगणांत उडी घेतिल्ल्यान 'आमकां खंय धाडटले, आमचें कितें जातलें' असल्या गजालिंचेर विचार करून वेळ फुकट व्हगडावपाचो नासता हेंवूय तितलेंच खरें आसलें. देखून, आमी जंय जे परिस्थितींत आसात थंय जो मेकळो वेळ आमचेकडेन आसा ताचो, आत्मविकासाचे नदरेन बऱ्यांत बरो आनी चडांत चड उपेग करून घेवप हीच एक गजाल आमचेमुखार आसली. आत्मविकासाची गरज आसली ती मुक्तताये उपरांतच्या गोंयच्या पुनरुत्थानाच्या वावराखातीर पेंगट बांदपापासत. आमच्यांतल्या कांय जाणांच्या मत्तान, पुनरुत्थान म्हळ्यार आत्मविसर्जन अशें आसलें. गोंय मुक्त जावप म्हळ्यार तें महाराष्ट्रांत वचप इतल्यारच तांगेले पुनरुत्थानाचे कल्पनेक पूर्ण विराम मेळटालो. हे उरफाटी आमची म्हळ्यार, कोंकणी आनी गोंयकारपण मुखार दवरून फुडाराचो विचार करप्यांची तरा आसली. आमकां नीज कर्तुत्वाचें विशाल मळ दिसतालें. म्हळ्यार, आमचे मदें दोन स्पश्ट विचारधारो आसल्यो.

'कोंकणी अभ्यास मंडळ' म्हळ्यार मुक्त गोंयांत कोंकणीची जी लोकचळवळ उबी करची पडटली तिचो एके तरेचो आमचेपुरतो तरी एक पूर्व-अभ्यासच कसो आसलो. कोंकणी बरोवंक शिकप, बरोवपाची दर एकान आपणाली शैली विकसीत करप आनी ज़मल्यार तातुंतल्यान साहित्यनिर्मणेक प्रोत्साहन दिवप वा आपूण जावन प्रेरणा घेवप हाचोय पूर्व-अभ्यास, आसा त्या वेळाचो उपेग करून करप हाचीय गरज आसलीच. अर्थांत हो एक प्रयोग. आनी ह्याच विचारांतल्यान 'जोत' सारक्या हातबरपी म्हयनाळ्याची कल्पना फुडें आयली. बंदखणींत रावन असलीं कामां करप म्हळ्यार तांचेर केन्नाय हावळ येवं येताली; केल्लें काम फुकट वचूं येतालें. पूण रेजमाग ही (लश्करी वा पुलिसेच्या कारभाराखाला नाशिल्ली) सिवील प्रशासनाच्या अधिकारांतली बंदखण आशिल्ल्यान, आग्वादसारके बंदखणीपरस परिस्थिती खूब वेगळी आसली. बंदखण राखपाक लश्करी लोक आसले. पूण तांचो अधिकार आमचेर चलना आसलो. बंदखणिचो मुखेल आसलो तो एक मिस्तीस, वयस्क मनीस – पोंपेयु नांवाचो. बाकिचे सगळे कारभार पळोवपी आसले ते गोंयकार सिवील कर्मचारी. तांकां लागून आमकां कांय सोंपेपणां मेळटालीं. रेजमागाक आमकां (सुमार सवायशीं जाणांक) तीन सालांनी पूण दोन वांट्यांनी दवरिल्ले. दीसभर आमकां दोनूय कडेन वचूंक येवंक आनी मेकळे सुवातेंत भोवंक मेळटालें. हे सगळे परिस्थितिचो घेवंक मेळटा तो फायदो करून घेवपाचें आमी थारायलें. मेकळो वेळ खूब आसलो. ताचो उपेग करून घेवप आमचेकडेन आसलें.

रेजमागचे बंदखणींत आमच्यांतल्या बऱ्याचशा जाणांचो वेळ वाचपांत खर्च जातालो. कोण कोण पेटी-तबलें घेवन संगिताचोय अभ्यास करताले. दमणचो एक सुटकेझुजारी अब्बास दमणवाला म्हूण आसलो. ताणें आमच्यांतल्या कांय जाणांक पत्र्याचीं ट्रंकां करपाक शिकयलें. रेजमागचे बंदखणींत तयार केल्लें असलें एक ट्रंक अजुनय म्हजेकडेन आसा. कांय जाण दिसपटयो बरयताले. ह्या कांय जाणांतलो हांवूय एक. रेजमाग आनी ते उपरांत आग्वादचे बंदखणींत बरयिल्ली, कांय शेंकडे पानां भरत येदी दीसपटी, फाटलीं चाळीस वर्सां, ते संघर्शभरीत जिणेचो सुवेनीर कशी हांवें जतनायेन सांबाळून दवरल्या. तांतलीं कांय पानां म्हळ्यार त्या काळांतल्या घडणुकांची गवाय कशी. अर्थांत हो एक वेगळो विशय. तरी पूण एक गजाल सांगपाची म्हळ्यार, हे दिसपटयेक लागून, हांव कोंकणींत जें कितें बरोवपाचो प्रयत्न करतालों, ती कोंकणी अदीक बरे तरेन केळोवंक पावलों. ते भायर, वेगळेवेगळे प्रसंग वा घडणुकांची नोंद घेतना म्हज्या विचारांकय एके तरेचें वळण दिवंक पावलों. रेजमाग बंदखण म्हजेखातीर एक प्रयोगशाळाच कशी जाल्ली.

रेजमाग बंदखणिचो एके प्रयोगशाळेवरवीं उपेग करून घेवपी आनीक कांय जाण आसले. तांचेमदलो एक म्हळ्यार म्हापशेंचो दिनकर गोविंद थळी. तो मराठी, हिन्दी आनी इंग्लिशींत खूब वाचन करतालो. कोंकणीय वाचतालो. हांव कोंकणींत कितें कितें बरयतां तें तो पळयतालो. एक दीस म्हणूंक लागलो, ''म्हाकाय बरयन दिसता.''

हांवें म्हळें, ''बरय ! जमता तशें बरय.''

तर तो म्हणूंक लागलो, ''स्वतंत्रपणान बरोवपाचो अजून हांवें प्रयत्न करूंक ना.''

''तशें जाल्यार दुसरे खंयचेय भाशेंतल्या बरपाचो अणकार करून सुरवात कर.'' हांवें ताका सल्लो दिलो.

आनी ते उपरांत दोनच दिसांनी, इंग्लीश भाशेंतले एके रशियन काणयेचो कोंकणी अणकार दिनकर थळयान म्हाका वाचूंक दिलो. अणकार बेस बरो जाल्लो. कोंकणी भासय बरेपैकीं आसली. ह्या वेळार मनांत एक विचार आयलो, जांकां जांकां बरोवपाची कळाशी आसा तांकां तांकां ती केळोवपाक उत्तेजन मेळचें म्हणून, आमचे पुरतेंच एक हातबरपी नेमाळें काडल्यार कशें ? बरोवप्या पुरतेंच उरनासतना रेजमागाक आशिल्ल्या सगळ्या सुटके झुजाऱ्यांमेरेन तरी पावतलें. ते भायर, कोंकणीक नाकां मुड्डितात तांचेय घडये दोळे उकते जावपाक मदत जातली.

रोखडीच 'कोंकणी अभ्यास मंडळा'मुखार हांवें म्हजी ही कल्पना मांडली. मार्क फेर्नांडीस, दिनकर थळी, तुळशीदास मोरजकार, प्रभाकर भेंब्रो, फेलिक्स वालोईश रुद्रीगीश, बाळा काकोडकार, प्रफुल्ल प्रियोळकार, प्रिझन तावारीश,

दामोदर प्रभुदेसाय आनी आनास्तासियु आल्मैद हांकां म्हजी कल्पना खुबच मानवली. सगळे म्हणूंक लागले, हातबरपी म्हयनाळें काडुंयाच. आनी, आमचेकडेन ते खातीर वेळ आसाच. कोण कितें बरयता तें बरयता, बरप कमी पडल्यार अणकार करून अंकांत घालुंया. हें सगळें थरलें तेन्ना रेजमाग बंदखणींत येवन आमकां फकत दोन-अडेच म्हयनेच जाल्ले. ऑगस्ट म्हयनो सुरू जाल्लो. मार्क म्हणूंक लागलो, पयलो अंक कसोय करून १५ ऑगस्टाक तयार जावंकच जाय. हातबरपी नेमाळ्याक नांव कितें दिवचें असो प्रस्न पडलो तेन्ना 'हो कोंकणीच्या पुनरुत्थानाचो एक ल्हानसो प्रयोग – बंदखणींत एकठांय जाल्ल्या सुटके झुजाऱ्यांचो हें लक्षांत दवरून एक बरेंशें नांव थारावंया' अशें हांवें म्हळें. फेलिक्स वालोईश म्हणूंक लागलो, आमचो हो वावर म्हळ्यार काळखांतली एक सुपुल्लीच दिवटी कसो. आनी उलयतां उलयतां 'जोत' हें नांव निश्चीत जालें.

'जोत'चो पयलो संपादक केलो दिनकर थळी हाका.

आंकाक रंगीत चित्र रंगोवन दिवपाची जापसालकी प्रफुल्ल प्रियोळकारान स्विकारली.

प्रभाकर भेंब्रो हाचें हस्ताक्षर भोव रेखीव आनी सुंदर. ताणें आपणाल्या हस्ताक्षरांत आंक बरोवन काडपाची जापसालकी घेतली.

भास, शुद्धलेखन, सजावट हीं कामां म्हज्या वांट्याक आयलीं.

अंकाचीं पानां बरोवन जातकच पुस्तक रुपान बायंडींग करपाचें काम बाळा काकोडकारान करपाचें मान्य केलें.

थरिल्ले प्रमाण १५ आगस्टाक 'जोत'चो पयलो आंक तयार जालो. छापी मासिकां आसतात तसलेच तरेचो 'जोत'चो आकार दवरिल्लो. आंकांत कांय पानां रोमी लिपयेंतय आसलीं. तें काम फेलिक्स वालोईश रुद्रीगीश पळयताले. आंकाखातीर दाट धवो कागद उपकारायिल्लो. कवर दाट पुठ्ठ्याचें आसलें. पयल्या आंकाचीं पानां आसलीं फकत पन्नास. प्रफुल्ल प्रियोळकारान जें चित्र रंगयिल्लें तातूंत जळट्या उज्यांतल्यान एक जोत वयर सरता अशें दाखयल्लें. 'आवयभास हो आमचो सैमाचो हक्क' हें 'जोत'चें ध्येयवाक्य आसलें.

'जोत'च्या ह्या पयल्या आंका उपरांत त्या फुडल्या दोन वर्सांत सगळे मेळून सोळा आंक आमी तयार केले. संपादक म्हणून दिनकर थळी हांचेभायर विश्वनाथ गुडे, मोहन विर्जीनिकार, नामदेव हरमलकार, मुकुंद लोलयेंकार तशेंच हांवें ह्या काळांत काम पळयलें. ह्या सोळाय आंकांनी मेळून तरेकवार कोंकणी साहित्य आमी एकठायिल्लें. ह्या साहित्यांत स्वतंत्र तश्योच अणकारीत कथा आसल्यो, लोककाणयो आसल्यो, निबंद आसले, वेगळी वेगळी माहिती दिवपी लेख आसले. वेगळ्या वेगळ्या देशांची वळख करून दिवपी बरपां आसतालीं, चरित्र-लेख आसताले, कविता आसताल्यो. एक सोडल्यार, बाकिच्या पंदराय आंकांक प्रफुल्ल प्रियोळकारान काडिल्लीं रंगीत कवर चित्रां आसलीं. आंकांनी भितरय कांय एकरंगी तशींच भौरंगी चित्रां आसतालीं. पयल्या आंका उपरांत, त्या उपरांतच्या कांय आंकांच्या पानांची संख्या शंबर आनी सवायशीं इतली लेगीत जाल्ली.

'जोत'चो पसारो वाडलो तशें पानां बरोवन काडपाचेंय काम वाडलें. ते खातीर कांय आंकांनी मोहन विर्जीनिकार, तुळशीदास मोरजकार आनी म्हज्याय हस्ताक्षरांचो उपेग जालो. पैंगीणचे दामोदर प्रभुदेसाय हे 'जोत'च्या अंकाखातीर आकाराप्रमाण पानांची आंखणी बी करून दिवपाभायर कांय पानां आपणाल्या हस्ताक्षरांत बरोवनय काडटाले. रेजमागाक आसतना जांकां कोंकणी वाचूंक येताली पूण सुटसुटीतपणान बरोवंक जमनासलें तांचीं बरपां आमी कोंकणींत अणकारून 'जोत'च्या आंकांनी समाविश्ट करताले. हीं बरपां चड करून ऍंथनी डिसौजा म्हळ्यार टोनी डिसौजा, मार्क फेर्नांडीस आनी आनास्तासियु आल्मैद हांचीं आसतालीं. दिनकर थळी हांणी केल्ले हिन्दी आनी इंग्लीश भाशेंतल्या कांय कथांचे उत्कृश्ट अणकार ह्या आंकांनी आयल्यात. मुकुंद लोलयेंकार हांणीय कांय सुंदर कथा बरयिल्ल्यो. प्रफुल्ल प्रियोळकार हांणी मोपासांच्या कथांचे अणकार केल्ले. म्हज्या कवितां भायर कांय लेख आनी म्हज्यो कांय पयल्यो वयल्यो कथाय ह्या आंकांनी आस्पावल्यात. बाळा काकोडकार, प्रभाकर भेंब्रो, मोहन विर्जीनिकार, सत्तरीचे वडील स्वातंत्र्यसेनानी गोविंद हरीभट भावे शास्त्री, विठ्ठल सुर्लकार, प्रिजन तावारीश, कुमुदचंद्र प्रभुदेसायँ, नामदेव हरमलकार अशा कितल्याश्याच जाणांचीं बरपां ह्या 'जोत'च्या आंकांनी आस्पावल्यांत. सगळ्यांचींच नांवां घेवप शक्य ना कारण ती वळेरी खूब लांब आसा. ह्या 'जोत'च्या वावराक लागून आमच्यांतल्या जांकां केन्नाच कोंकणीचो दिश्टावो जावंक नासलो, तो जालो. कोंकणींत बरोवंक जमना म्हणटाले तांकां ती सोंपेपणान बरोवंक येवंक लागली.

आतां एक गजाल म्हळ्यार, रेजमागाक जांकां कोंकणीचो दिश्टावो जालो, तांतलें सगळेच जाण जशाक तशे, मुक्ती उपरांतचे कोंकणीचे चळवळींत आयले नात. कारण, कांय जाणांच्या जिविताक वेगळ्यो वेगळ्यो वाटो फुटल्यो. तांकां वेगळ्या वेगळ्या मार्गांनी वचचें पडलें. पूण जांकां शक्य जालें ते सदांच कोंकणीवटयां रावले. गोंयचे अस्मितायेचे राखणेखातीर वावुरले. हांगा मुजरत एक गजाल सांगूंक जाय. ती म्हळ्यार, रेजमागावरीच आग्वादचे बंदखणींतय कोंकणीच्या उजवाडांत गोंयच्या फुडाराचो विचार करपी सुटकेझुजारी आसले. हांतल्या कांय जाणांकडेन म्हजो पत्रवेव्हार चलतालो. फेलिसियु कार्दोज, पांडुरंगबाब मुळगांवकार आनी शंकरबाब सरदेसाय हांची हे संबंदांत अगत्यान याद जाता. शंकरबाबान 'जोत' खातीर एक खास कविता लेगीत धाडिल्ली ती एका अंकांत आसा. उगडास जाता ते प्रमाण, १९५६ वर्सा आग्वाद-रेजमाग हांगाच्या सुटके झुजाऱ्यांमदीं जो पत्रवेव्हार जातालो तो पुर्तुगेजांनी बंद केलो आनी आमचो आग्वादाकडलो पत्रवेव्हाररुपी संबंद संपुश्टांत आयलो.

'जोत'चे वट्ट सोळा आंक आमी तयार केल्ले. सगळ्यासगळे कशे ना कशे तरी सुरक्षीतपणान बंदखणी भायर पावते जाले. हांतले सुरवातिचे कांय आंक ॲड. श्रीधर तांबा हांणी, तांकां अटक जावचे पयलिंच्या काळांत, आपणागेर व्हरून सांबाळून दवरले. बाकिचे कांय आंक १९५७च्या ऑक्टोबरांत हांव रेजमागच्यान आग्वाद बंदखणींत पावतकीच, तुळशीदास मोरजकार हाणें भायर पावोवपाची वेवस्था केली आनी ते मडगांवां एके सुवातेर व्हरून जतनायेन दवरपाची मांडणी केली. १९५५च्या मे म्हयन्यांत, सुमार पावणे पांच वर्सां उपरांत हांव बंदखणींतल्यान सुटून आयले उपरांत ॲड. तांबा आनी मोरजकार हांणी तांचेकडले सगळें म्हळ्यार तेरा आंक म्हजेकडेन दिले. तीन आंक कोणाकडेन तरी उरले आनी ते मेळ्ळे नात. म्हजेकडल्या तेरा आंकांतले स अंक, आमच्याच एका कोंकणी बरोवप्यान, १९६० वर्सा मुंबयच्या कोंकणी भक्तांक दाखोवंक म्हणून मुंबय व्हेले; पूण ते केन्नाच परते गोंयांत पावले नात. पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांक लेगीत जो आमचो वावर ना करूंक मेळ्ळो ना, तें काम आमच्याच कोंकणीच्या मनशांच्या हातांतल्यान घडिल्लें पळोवन भितरले भितर संताप मारले बगर उरले नात. 'जोत'च्या सोळा आंकांतले फकत सात आंक आतां म्हजेकडेन उरल्यात. बंदखणींत आमचे हस्तुकीं घडिल्ल्या कोंकणीच्या वावराची यादस्त म्हणून हांवें ते सांबाळून दवरल्यात. गोंयच्या सुटकेझुजांत कोंकणीन बंदखणींतल्या जिवितांत आमकां जो सांगात दिलो आनी आमच्यांतलें रसरशीत ताजपण जिवंत दवरलें ताची 'जोत' म्हळ्यार एक अप्रूप गवाय कशी.

रेजमागचे बंदखणींत आसतना कोंकणीच्या संबंदांत आमी आनीक एक प्रयोग केलो. तो म्हळ्यार, पंद्रशी हातबरपी खबरांपत्र तयार करपाचो. ह्या खबरेपत्राचें नांव आसलें 'संवसाराचो आवाज'. आमचेकडेन जीं भायलीं इंग्लीश नेमाळीं येतालीं तीं आनी गोंयांतलीं पुर्तुगेज दिसाळीं मेळटालीं तांचो उपेग करून आमी हो 'संवसाराचो आवाज' तयार करताले. हातूंत वेंचीक अश्यो राष्ट्रीय तश्योच अंतरराष्ट्रीय खबरो आमी कोंकणींतल्यान, एकाद्र्या

नेमाळ्यांत येतात तश्यो दिताले. खबरां बराबर वाचून जाल्ल्या इंग्लीश पत्रांतले कांय फोटूय कातरून आंकाच्या पानांनी दसयताले. राष्ट्रीय-अंतरराष्ट्रीय घडणुकांचेर टिका-टिप्पणी करपी कांय ल्हान ल्हान लेखय आमी दिताले. इंग्लीश वा पुर्तुगेज वाचूंक येना अशा बऱ्याचशा जाणांक ह्या 'आवाजा'चो खूब उपेग जातालो. आनी आमकां, म्हळ्यार म्हजे सारक्याक फायदो जातालो तो वर्तमानपत्री, सादी, सुटसुटीत भास शैली आपणावपाचो आनी केळोवपाचो. ह्या 'संवसाराचो आवाज'चे कांय आंक आमी काडले. पूण त्या आंकांतलो फकत एकच आंक आज म्हज्या संग्रहाक उरला.

रेजमागचे बंदखणींत आसतना जिचे विशीं मुजरत सांगूंक जाय, अशी आनीक एक गजाल घडली. ती म्हळ्यार, १९५७ वर्सा मुंबय गोमन्तक मराठी साहित्य संमेलनाचें एक अधिवेशन जालें. ह्या अधिवेशनांत, सदांच शितापुडें मीठ खायत आयिल्ल्यांनी गोंयची भास मराठी, कोंकणी तिची बोली, गोंय मुक्त जातकीच तें महाराष्ट्रांत विलीन जावंक जाय असले थाराव करपाचे ते केलेच. ते विशीं वायट दिसपाबदला, असले थाराव मांडपी आनी ते मानून घेवप्यांचे आमकां सदांच चुरचुरे दिसताले. कारण गोंय स्वतंत्र जातकीच, गोंयकारांनी गोंयांत थारावपाच्यो गजाली हे मराठीवाले मुंबय, पुणें आनी बेळगांव सारक्या शारांनी रावन आदींच थारायताले. कोंकणी परिशदेचीं अधिवेशनां जातालीं तातूंत असले थाराव येनासले. गोंय मुक्तिचो ध्यास ही मुखेल गजाल आसताली. चर्चा जाताली ती कोंकणीचे उदरगती विशिंची. दुसऱ्या भासांचो दुस्वास करपाची पिडा कोंकणी परिशदेच्या अधिवेशनाक केन्नाच बादली ना. गोमन्तक मराठी साहित्य संमेलनाचीं अधिवेशनां कोंकणीक धिस्पटायले बगर केन्नाच चलर्ली नात. मुंबयच्या अधिवेशनांत हें सगळें सदांभाशेन घडलेंच. हाचेभायर आनीक एक घडलें. तें म्हळ्यार, त्या वेळच्या मुंबय प्रांताचे राज्यपाल डॉ. हरेकृष्ण मेहताब, जांणी ह्या अधिवेशनाचें उक्तावण केल्लें, ते कोंकणी आड उलयले. भारतांत जायत्यो बोलयो आसात तांतलीच कोंकणी ही मराठीची एक बोली अशें ते उलयले. डॉ. मेहताब सारक्या एका काळार उडिसाचे मुख्यमंत्रीपद सोबयिल्ल्या मानेस्ताकडल्यान असल्या उलोवपाची अपेक्षा नासली. कारण, खासा तांचे उडिया भाशेकच बंगालीचे दादागिरी आड एका वेळार झगडचें पडिल्लें. आमकां डॉ. मेहताबांच्या उलोवण्याचो राग आयलो. आमी तांकां पत्र धाडून आमचो, म्हळ्यार बंदखणींत आशिल्ल्या सुटके झुजाऱ्यांचो निशेध कळीत करपाचें थारायलें.

आमी डॉ. मेहताबांच्या नांवान एक पत्र तयार केलें. तातूंत कोंकणी विशीं आमकां जें कितें सांगप शक्य आसा तें सगळें सांगिल्लें. ते भायर, उडिया भाशेचें स्वत्व सांबाळपाक आनी बंगालपासून वेगळावन उडिसाचें वेगळें घटक राज्य निर्माण करपाक जो संघर्श जालो ताचीय याद करून दिल्ली. हें पत्र आमी गुपचीप बंदखणीभायर धाडून तें मुंबय काशीनाथबाब श्रीधर नायक म्हळ्यार बयाभाव हांचेकडेन पावत अशी वेवस्था केली. बयाभावांनी तें पत्र डॉ. मेहताबांकडेन धाडचें अशी आमी तांकां विनंती केली. थारायिल्ले प्रमाण आमगेलें पत्र डॉ. मेहताबांकडेन पावलें. हेर कडल्यानय तांच्या कोंकणी विशिंच्या म्हणण्याआड निशेधाचे सूर उठिल्ले. डॉ. मेहताबांक आपणाली चूक कळून चुकली. आमी बंदखणींतल्या सुटके झुजाऱ्यांनी बरयिल्लें पत्र तर खूबच परिणाम सादपी जालें. मराठी संमेलनाच्या जाळवणदारांनी दिल्ले कोंकणी विशिंचे चुकिचे माहितिचेर आधारून आपूण उलयिल्ल्याचें तांकां मान्य करचें पडलें.

रेजमागच्यान १९५९च्या ऑक्टोबरांत हांव आग्वादाक पाविल्लों तो थंयच्यान १९५५च्या मे म्हयन्यांत सुटलों. बंदखणींतले बंदिस्त जिणेंतल्यान मेकळ्या वातावरणांत आयिल्लों खरो. पूण 'मेकळें वातावरण' अजूनय फिर्गी गुलामपणांत घुस्मट्टालें. आतांमेरेन जे उतळताप वांट्याक आयिल्ले आनी तातुंतल्यान जें कितें अणभवूंक वा शिकूंक मेळिल्लें वा जें आत्मबळ जोडिल्लें ते भुतयेच्या म्हालवजार आमगेली गोंयचे मुक्ततायेची लडाय शेवटामेरेन व्हरपाची आसली. कोंकणीखातीर तर जायतें कितें करपाचें आसलें. ज्या दिश्टाव्यान म्हाका घडयलो, ताचो वसो दुसऱ्यांमेरेन पावोवपाचो आसलो. तापत्रयांची, कांट्याकुट्यांची अस्कडी वाट अजून सोंपूंक नासली.

[समाप्त]

---

☐ मागपाच्यो कांय तरा आसात.

देवा, म्हजें बरें भलें कर... म्हज्या बायल भुरग्यांचें बरें कर. सोयऱ्या धायऱ्यांचें इश्ट मित्रांचें बरें कर – ही तरा सगळ्यांचे संवकळिची.

पुणून दुस्मानाचें बरें भलें कर म्हूण केन्ना कोणें मागलां व्हय? मागूंक येवंक जाय. दुस्मानाचें बरें कर म्हूण मागशीत जाल्यार ताका सोंसून घेवपाक, ताचे गुन्यांव भक्सुपाक, ताचे कडेन जुळोवन घेवपाक तुका अडचण दिसची ना. दुस्वास ना करपा खातीर, मतभेद मोव करपा खातीर, इश्टागत वाडोवपा खातीर हे तरेचें मागप तुका खूब आधार दितलें.

☐ भुरगें खंय जल्माक येतनाच एक-अक्षरी एक मंत्र घेवन येता. तें जल्माक घालतले आवयक 'मां' (बा) म्हूण उलो मारता आनी ह्या मंत्राचो आयुष्यभर जप करता.

सगळ्यांगेर ह्या मंत्राचो जप करपी भुरगीं जाल्यांत. जांकां हाची खोलायेन जाणवीक जाली तांकां आवयंत जगदंबा दिश्टी पडली. उपरांत पुंराय सृश्टींत तांकां ती दिश्टी पडपाक लागली.

खरेपणानशीं, भुरगें जायनाफुडें आवयन देवाचे उपकार आठोवंक जाय. आनी ताका सांगूंक जाय, 'देवा, तुवें हें भुरगें तुजोच वावर मुखार व्हरपा खातीर म्हगेर धाडलां. म्हजे मायेन तें वाडटलें ह्या विस्वासान धाडलां. हांव ताची मायेन जतनाय घेतलीं, ताका ताचे तरेन फुलूंक दितलीं. बळयां ताचे कडल्यान कितेंच करून घेवचीं ना. ताका मारचीं, ना, हिणोवचीं ना. ताचे फुलपाचे प्रक्रियेंत ताच्या बापायच्ची लेगीत आडखळ येवंक दिवंची ना.

# लोकप्रिय विज्ञान

मुकेश थळी

'लोकप्रिय विज्ञान' हे माळेखाला नॅशनल बुक ट्रस्टान कांय पुस्तकां उजवाडायल्यांत. तांचे वेगळ्या वेगळ्या भारतीय भासांनी अणकार जायत आसात. कोंकणीच्या मळार नॅशनल बुक ट्रस्टान आनिकूय पुस्तकां उजवाडायतना विज्ञाना विशिंचीं हीं पुस्तकांय अणकारल्यांत. 'बारीक-सारीक दुयेंसां' आनी 'तुमचें अन्न आनी तुमी' हीं हालींसराक उजवाडाक आयिल्लीं दोन नवीं पुस्तकां.

'बारीक-सारीक दुयेंसां' हें डॉ. अनिल अग्रवाल हांचें पुस्तक डॉ. भिकाजी घाणेकार हांणी कोंकणींत अणकारलां. मनशाची भलायकी मुदलांत बरी घटमूट आसत जाल्यार तो हेर जायत्यो गजाली करूंक शकता. बारीक-सारीक दुयेंसांचीं लक्षणां आंगांत दिसूंक लागतकच कांय जाण तांचेकडेन आडनदर करतात, जाल्यार कांय जाण माल्शें खट्ट-खुट्ट जाल्यार लेगीत अती दक्षताय घेवन hypochondriac वृत्तीन भयरोजोळोप करतात. खूब जाणांक जाणकार दोतोराक दाखयनासतना स्वताच वखदां घेवपाची वायट संवय आसता. वखदांचें रसायन अती प्रमाणांत पोटांत, आंगांत पावल्यार ताचे अदीक वायट परिणाम जावं येतात. हे फाटभुंयेर बारीक-सारीक दुयेंसां संबंदान मुळावी माहिती आसल्यार जण एकलो योग्य ती जतनाय घेतलो आनी आपल्या फामिली दोतोराकूय दुयेंसांविशीं स्पश्टपणान सांगूंक पावतलो. प्रस्तुत पुस्तकांत कांय दुयेंसांविशीं सुटसुटीत आनी सोपे भाशेंत माहिती दिल्या.

'ॲलर्जी' ह्या पयल्याच प्रकरणांत ॲलर्जी म्हळ्यार कितें हे विशीं सविस्तर विज्ञानीक माहिती ताच्या इतिहासा सयत दिल्या. वेगळे वेगळे तरेची ॲलर्जी कशी आनी कित्याक लागून जाता तें सांगलां. कमर कित्याक लागून दुखता ते विशिंचीं वेगळीं वेगळीं कारणां आनी उपाय सुचयल्यात. Slip Disc म्हळ्यार कितें तें स्पश्ट केलां आनी सिगार-विडयेच्या वेसनाक लागून डिस्काच्या जाणटेपणाचेर खेरीत कशे परिणाम जातात, तें सोपे भाशेंत सांगलां. पोट वाडटा तशें गुरवार बायलेचें कमर धरता. साबार तरांनी जतनाय घेतल्यार कमरदुखी कशी टाळूं येता हे विशीं माहिती दिल्या. दुयेंसांचेर उपचार करचे परस तें जावचें न्हय म्हूण जतनाय घेवप चड बरें. सिगार ओडिना जाल्यार bronchitis पसून मुक्तताय कशी मेळटा हें स्पश्ट उतरांनी सांगलां. जतनाय घेना जातकच वा घाळपणाक लागून वेगळीं वेगळीं दुयेंसां कशीं जातात आनी उपरांत कशीं वाडटात ताचेर उजवाड घाला.

थंडी, कडामोड आनी जोर ह्यो पीडा संवसारभर, वर्सभर सगल्या थरांच्या लोकांक जायतूच आसतात. थंडेविशीं जे समज आनी गैरसमज आसात तांचेर उजवाड घाला. सोरो पियेत जाल्यार थंडी बरी जाता हो चुकिचो समज, ही म्हत्वाची गजाल सांगल्या. वखदां थंडी बरी करिनात, पूण लक्षणां उणीं करतात हें स्पश्ट केलां. नितळसाण राखल्यार कितलिशींच दुयेंसां, खास करून दोळे येवप हें दुयेंस, कशीं टाळूं येतात हे विशीं सविस्तर माहिती दिल्या. संडास घट जावप वा सारको जावप ना, जिरवण सारकी जायना जातकच संडासाक कसो त्रास जाता हे विशीं 'बद्धकोश्ट' ह्या माथाळ्याखाला माहिती दिल्या. पातळ भायर, अतिसार, मोडशी ह्या संबंदांत वेगळ्या प्रकरणांत माहिती आसा. तकली कित्याक लागून उसळूं येता, ताचीं वेगळीं वेगळीं कारणां आनी ही तकलीफोड खंयच्याय गंभीर दुयेंसाचें मूळ आसूं येता तेविशीं माहिती दिल्या. 'गालगुटां' हो सादो रोग खरो. पूण जतनायेचे बाबतींत सदळसाण उरल्यार ताचे गंभीर परिणाम कशे जावं येतात, ते विशीं शिटकावणी दिल्या. सायनसाची कटकट खूब जाणांक सतायता, पूण 'सायनसायटिस' म्हळ्यार कितें हे विशीं मुळावी माहिती आसल्यार कितलें बरें हें, ते विशिंचें प्रकरण वाचतकच कळटा.

पुस्तकाचे अखेरेक कांय दुयेंसांच्या नांवांची कोंकणी-इंग्लीश वळेरी दिल्या; तातूंत dysentry treatment आनी हेर कांय उतरां दिल्यार वळेरी सविस्तर जावपाची. पुस्तकांत गरज थंय कुडिच्या कांय अवयवांची फोडणिशी करपी चित्रां दिल्यांत. ते खेरीज दरेक प्रकरणाचे सुरवेक दिल्लें हास्यचित्र लक्ष ओडून घेता, जाचेवरवीं पुस्तकाक एक उबारी आयल्या. गंभीर माहिती दितना विनोदान अशे तरेन संतुळा राखल्यार पुस्तकाचें तें एक खास तास थरता.

आपली कूड नितळ-निवळ राखप ही जण एकल्याची स्वताकडली लागणूक. ताका पाळो दितलो जाल्यार अणभवी दोतोरान बरयल्लें आनी अणभवी दोतोरान बेस बरे भशेन अणकारिल्लें हें कोंकणी पुस्तक कोंकणी मनशान वाचुंकूच जाय.

'तुमचें अन्न आनी तुमी' हें डॉ. के. टी. अचय्या हांणी बरयल्लें पुस्तक नारायण देसाई हांणी कोंकणींत अणकारलां. ह्या पुस्तकांत आमच्या दिसपट्ट्या आहाराविशीं कितल्योश्योच अजापीत गजाली सांगल्यात. जीण बरे तरेन चलपाक आनी भलायकी घटमूट दवरपाक मनशाक उशणताय आनी ऊर्जा हांची पुरवण फावो ते तरेन जावप गरजेचें आसता. ही उशणताय वा ऊर्जा भायल्यान मेळोवची पडटा. ही ऊर्जा निर्मुपाखातीर ज्या जिनसांचें मनीस सेवन करता, ताका 'अन्न' म्हणटात. संतुळीत आहार म्हळ्यार कितें हे विशीं सविस्तरपणान पुस्तकांत सांगलां.

ल्हान भुरगीं, गुरवार बायलो आनी दुदावयल्यो आवयो हांचो आहार कशा प्रमाणांत आसचो ते विशीं सविस्तर तकटे दिल्यात. त्या संबंदांत वजन आनी लांबाय हांच्या प्रमाणांत आहार कितलो, केन्ना आनी कसो घेवचो ती माहिती दिल्या. गोडें मूत, अल्सर, हागवण, जोर आनी हेर दुयेंसांचेर आहार करो दवरचो तें सांगलां. डॉ. अचय्या हांचो अन्नाच्या मळार अणभव बरोच व्हड आशिल्ल्यान तांणी पुस्तकाची मांडावळ बेस बरी केल्ल्याचें जाणवता. अन्नांत मुदलांत कितें आसता, कॅलरी कितल्यो जाय आनी त्यो कश्यो मेळटात हे विशीं वेगळे वेगळे तकटे आसात. भारतांतल्या वेगळ्या वेगळ्या वाठारांनी, राज्यांनी आहार करो बदलता ते विशीं सांगलां. ही माहिती आनी तकटे माहितीपूर्ण आनी रंजक आसात.

'आहाराविशिंचे समज आनी अपसमज' ह्या प्रकरणांत बरोवप्यान उपाट गरजेची माहिती दिल्या. वेगळ्या वेगळ्या पाककृतींविशीं जायतीं पुस्तकां येत आसतात. पूण तातूंत शास्त्रीय माहिती भोव उण्या प्रमाणांत सांपडटा. अन्न प्रदूशीत जावंक दिनासतना कशें रांदप, आयदनां लेगीत कशी नितळ दवरप आनी हेर जतनाय कशी घेवप तें सांगलां. फळांसंबंदीं माहिती दितना द्राक्षां जावं सफरचंदां हांकां पुश्टीक मोल व्हडलेंशें नासता हें स्पश्ट सांगलां.

दिसपट्ट्या आहाराचें प्रमाण उणें जाल्यार कुडीक त्राशीक थारून दुबळेपण येवं येता; तेच प्रमाण धरबंद नासतना मेळत तशें कशायकशें खायत जाल्यार भलायकी इबाडूं येता. डॉ. अचय्या हांणी हे विशीं जायत्यो शिटकावण्यो दिल्यात. 'फुलके' हें उतर आवडलें. बऱ्याच कठीण संकल्पांचो, उतरांचो आनी वाक्यांचो रसाळ भाशेंत अणकार करपाक नारायण देसाई हांकां यश आयलां. हें पुस्तक वाचतल्याक आपूण दिसपट्टें कितें खातां त्या संबंदान कितलो तपशील आपणाक खबर नाशिल्लो, तें मात भुजरत होलमता.

**बारीक-सारीक दुयेंसां**
**नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया, १९९९**
**पानां: ९०; मोल: रु. ३०/-**

**तुमचें अन्न आनी तुमी**
**नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया, १९९९**
**पानां: १०७; मोल: रु. ३०/-**

## ❑ वैचारीक / ललीत निबंद

**नदर संपादप्याची**

- आगस्ट — पंदरा ऑगस्टाक मन भरून येता खंतीन; गणेशा, सिद्धी विनायका...
- सप्टेंबर — डॉ. राधाकृष्णन; हिन्दी कित्याक जाली ना?; हेंच फळ काय मम तपाला?; वसंत नेवरेकार.
- नोव्हेंबर — जवाहरलाल; घुस्पल्लें जानवें – १; नो एक्झीट; डॉ. सु. म. कत्रे.
- डिसेंबर — स्वराज्य हें? कोण सांगता?; घुस्पल्लें जानवें – २; विष्णुपत्नी नमस्तुभ्यम्...; नोबेल इनाम.
- जानेवारी — आयकूंक येता हो आवाज?; गुलामांची भास; घुस्पल्लें जानवें – ३.
- फेब्रुवारी — चार पुरुषार्थ, चार आश्रम; घुस्पल्लें जानवें – ४; शाळा कॉलेजांची जापसालदारकी; साहित्य – जिविताचें एक उपफळ.
- मार्च — हरिनो मारग छे शूरानो; मनशान पयलीं 'मनीस' जावंक जाय; संस्कृत; 'कुर्वन्नेवेह कर्माणि जिजीविषेत्'.
- एप्रिल — धर्मान्तरांचो प्रस्न; आमचे वांगडा गोंयूय व्हड जावंक जाय; फायव्ह-स्टार गुलामी – १.
- मे — वेंचणुकेक कोणें रावपाचें?; फायव्ह स्टार गुलामी – २; भारतीय संस्कृताय कोणें घडयल्या?; देशाक निःशस्त्र कोणें केला?
- जून — काझेमिरू मोन्तैरू; हिन्दुत्व; धर्मा वांगडा संस्कृतायूय ना जातली; गांधी शिकोवपाक येवरोपेव येवचे नात मू?
- जुलै — 'व्हनये, हो शेमाँव तुका न्हू...'; आमची संस्कृताय कित्याक तिगून उरली?; 'अब तो जीवन हारे'; संयुक्त गोंय; तॉलस्तॉयचो प्रज्ञावाद – १.

## साहित्य नियाळ / समिक्षा

- आगस्ट — साहित्य नियाळ: अंतरंग आनी कायारुपां – डॉ. किरण बुडकुले
  नियाळ: बाळकृष्ण कानोळकार
- सप्टेंबर — निरंजन – शंकर रामाणी
  नियाळ: माधव बोरकार
- नोव्हेंबर — चांफेल्ली सांज – पांडुरंग भांगी
  नियाळ: हरिश्चंद्र नागवेंकार
- डिसेंबर — वालोर – एस्. डी. तेंडुलकार
  नियाळ: बाळकृष्ण कानोळकार
  पुस्तक परिक्षण कशें आसचें?
  – प्रि. सु. तडकोडकार
- जानेवारी — समकालीन कोंकणी लघुकथा – संपा. पुंडलीक नायक
  नियाळ: मुकेश थळी
  कोंकणी कवितेचीं दोन दसकां – माधव बोरकार
- फेब्रुवारी — पुंडलीक नायक साहित्यसुची (वर्णनात्मक)
  – प्रियदर्शिनी तडकोडकार
  नियाळ: माधव बोरकार
- मार्च — गुणाजी – पुंडलीक नायक
  नियाळ: बाळकृष्ण कानोळकार
- एप्रिल — काव्योद्यान – संपा. शरतचंद्र शेणै
  नियाळ: हरिश्चंद्र नागवेंकार
  'तमसोमा': शंकर रामाणींची एक कविता
  – एस्. डी. तेंडुलकार
- मे — 'मुडयेपोंदा' चे निमतान – माधव बोरकार
- जून — कोंकणींतली साहित्य समिक्षा – आयची स्थिती आनी नव्यो दिको
  – हरिश्चंद्र नागवेंकार
- जुलै — कारबारी कोंकणी – संपा. भावे, वजरीकार, पर्येंकार
  नियाळ: मुकेश थळी

## इतिहासाचीं पानां

**कोंकणीचो दिश्टावो म्हाका असो घडलो**

(कोंकणी वावुरप्यांचीं आत्मकथनां)

- आगस्ट — हांव कोंकणी कडेन कसो पावलों
  – तानाजी हळर्णकार
- सप्टेंबर — म्हाका जाल्ली कोंकणीची नखलामी
  – जयंती नायक
- नोव्हेंबर — कोंकणी सरस्पतिच्या आंगणांत अजुनय जायत्यो तळयो खेळपाक जाय...
  – एन्. शिवदास
- डिसेंबर — कोंकणीन म्हाका आत्मतेज दिलें
  – हेमा नायक
- जानेवारी — म्हाका कोंकणीची दीक्षा कोणें दिली?
  – चंद्रकांत केणी
- फेब्रुवारी — राष्ट्रीय मान्यतायेखातीर पूर्वतयारी
  – चंद्रकांत केणी
- मार्च — शिंवाचे घोलींत पांय दवरपाचें धाडस
  – चंद्रकांत केणी
- एप्रिल — 'प्रिय अमुचा एक महाराष्ट्र देश हा' ते 'दुसऱ्याची चाकरी जोंधळ्याची भाकरी खावचेली ना'
  – उल्हास बुयांव
- मे, जून, जुलै — कोंकणीच्या दिश्टाव्यान म्हाका घडयला (तीन वांटे)
  – नागेश करमली.

## हेर

- आगस्ट — 'जागा'चीं पंचवीस वर्सां – सुमंत केळेकार
- ऑक्टोबर — तुन-हुआंग – रवीन्द्र केळेकार
  श्रीमद् भगवद् गीतेचो अणकार – सुरेश गुंडू आमोणकार
  धालो – जयंती नायक
  तुळशीमाते हात जोडूं...! – जयमाला दणायत
  तातू नायक: एक मरणलेख – अना म्हांबरो
  एका दिसाची गजाल – मीना काकोडकार
  पोजडीं उतरां – शीला कोळंबकार

भावोजी: तर्क आनी बंडलां – पंढरीनाथ सुरसुरे
धतरिक जेन्ना जाग येता – लक्ष्मीदास बोरकार
कोंकणी शुद्धलेखनाचे नेम: एक उकती चर्चा – दामोदर घाणेकार
शिवोलेचो जागर – श्याम वेरेंकार
वलिपत्तनाचो सोद: एक अभ्यास – पंढरीनाथ सुरसुरे
कारवार: एक सोबीत वाठार – यशवंत पालेकार

**आगस्त, सप्टेंबर, नव्हेंबर-जुलै** तिरसुवाद बोरकारालें तीर-सुवादीक कॉलम – दिलीप बोरकार

## कथा

**ऑगस्ट** हळदकुकूम – सुधा खरंगटे
**सप्टेंबर** गाब्रू – चंद्रकांत केणी
**ऑक्टोबर** चलून आयिल्ली लक्ष्मी – चंद्रकांत केणी
लक्ष्मी – देविदास कदम
वर्सल – प्रकाश पर्येंकार
अर्दकुटो वावर – सुरेश पिळर्णकार
पिलां – आंतोन चेकोव्ह
अणकार: शंकर रामाणी
नीत-अनीत – सीतेश आलोक
अणकार: उदय देशप्रभू
**नोव्हेंबर** अंतर्वेदना – अमृता प्रितम
अणकार: ज्योती कुंकळकार
**डिसेंबर** समर्पिता – सुरेश पिळर्णकार
**जानेवारी** जुजेफात फालक्यांतलें क्रिसमस – एडवीन जे. एफ्. डिसोजा
**फेब्रुवारी** कुळदीप – रजनी भेंब्रे
**मार्च** निमाणो अश्वत्थामा – महाबळेश्वर सैल
**एप्रिल** मंगल पांडे – चंद्रकांत केणी
**मे** पर्डींग जमीन – भरत कुमार
अणकार: उदय देशप्रभू
**जून** कॉर्दिची बावली – सखाराम गो. शे. बोरकार
**जुलै** जादू – सुधा खरंगटे

## नाटकुर्ली

**ऑक्टोबर** गणपतीबाप्पा – एस्. डी. तेंडुलकार
**नोव्हेंबर** स्वतंत्रतायेचो भांगरा सुवाळो – भालचंद्र गांवकार

## कविता

**आगस्ट** गांधारी बा – नागेश करमली; संस्कृताय ताणेंच तिगयल्या – नूतन साखरदांडे; परमात्म – राजश्री म. सैल; आमी बेबे – आनंद वर्टी

**सप्टेंबर** बोलां-खेल – नागेश करमली; आज म्हज्या मनाक – अभयकुमार; जाप – सुफला गायतोंडे

**ऑक्टोबर** अजून – शंकर रामाणी; आयली भूक – मनोहरराय सरदेसाय; अनामिक – नागेश करमली; पत्रेंत पुरवलो आयतार – रमेश वेळुस्कार; पांच कविता – प्रकाश पाडगांवकार; हांवें मारिल्लो मनीस – थॉमस हार्डी (अणकार ?: अभयकुमार); खदूळ – परेश नरेंद्र कामत; आत्मघात – राजश्री महाबळेश्वर सैल; तुजो हांसो – गौरी विद्याधर; जिवीत... कवीत... – मंगला शिवदास; किण्ण खीण – शरतचंद्र शेणै; आयचो लोकनेता – प्रभाकर नाडकर्णी; आशाड पांवळी, श्रावण कविता – नूतन साखरदांडे; रोगेल्ल्या शाराचें कॉलाज – राजय रमेश पवार; मुक्ती – पोरफीर सिल्व लोबु; चंवळ्यो – पूर्णानंद च्यारी

**नोव्हेंबर** गीत – नागेश करमली; हायकू – राजय रमेश पवार; चंवळ्यो – पूर्णानंद च्यारी; दोन कविता – माधव बोरकार; अर्भकाच्या दोळ्यांनी – परेश नरेंद्र कामत; आपसूक – मंगला शिवदास; परतें केन्नाय नाका नाका – आनंद वर्टी

**डिसेंबर** स्वातंत्र्य तें खंय आसा ? – प्रभाकर नाडकर्णी; तांडेला ओ तांडेला – रोहिदास बाबुराव शिरोडकार; एकेचाळीस पावसाळे – काशिनाथ शांबा लोलयेंकार; तूं खळखळून हांस – परेश नरेंद्र कामत

**जानेवारी** म्हारू – शंकर रामाणी; पाख्यातळा – नागेश करमली; एल कापितान थिएटर – काशिनाथ शांबा लोलयेंकार; एक पिसो – प्रभाकर नाडकर्णी; शेंवणें घोंटेर सोदता – रोबाशि; गॉन विथ द विंड – नयना आडारकार; सके – मनोज नरेंद्र कामत

**फेब्रुवारी** कुळाराचे वाटेर – अरूण साखरदांडे; कुळाराचे वाटे – नूतन साखरदांडे; गर्व से कहो – नयना आडारकार; आवय – पूर्णानंद च्यारी; तूं आनी फूल – सखाराम गो. शे. बोरकार; झळ; उजवाड – परेश नरेंद्र कामत; चंवळ्यो – राजय पवार

**मार्च** कणो – कुसुमाग्रज (अणकार: आनंद वर्टी); म्हजी कविता – शरतचंद्र शेणै; देंठ – परेश नरेंद्र कामत

**एप्रिल** कागदाची बोट – गुलजार (अणकार: शंकर रामाणी); कागदाचीं व्हडीं – अरूण साखरदांडे; रूच; तूं – सखाराम गो. शे. बोरकार

**मे** उज्जैनिचो घोडेकार – आर. एस्. भास्कर; सदिच्छा: तीन स्नॅपशॉटस् – परेश नरेंद्र कामत; बाजार – काशिनाथ शांबा लोलयेंकार; चंद्रीम हांसत गेलो – प्रभाकर नाडकर्णी; कावळ्याचें श्राद्ध – अरूण साखरदांडे; एकविसावो शेंकडो – सखाराम गो. शे. बोरकार; कयपंजी – मनोज नरेंद्र कामत; चवथो कोनसो घराचो – राजय रमेश पवार; थिकां – नूतन विठ्ठल नाडकर्णी

**जून** भिरकटावप – गुलजार (अणकार: शंकर रामाणी); तुमचे खातीर – मनोहरराय सरदेसाय; नवस; कोर – माधव बोरकार; आजोळ आल्बम – राजय रमेश पवार; झोपाळे – परेश नरेंद्र कामत; प्रार्थना: एका निस्वार्थ मनशाली – पी. जी. कामत; सपन – राजश्री म. सैल; चंवळ्यो – पूर्णानंद च्यारी; आदिपूत – मंगला शिवदास; देवळांतलो धोल – संतोष जगन्नाथ महाले

**जुलै** सोरोप – गुरुनाथ धुरी (अणकार: शंकर रामाणी); हतयाचें जार्दीन – काशिनाथ शांबा लोलयेंकार; कविता – माधव बोरकार; पावस आयलो – ॲन्सी पालड्का; दिसावडो – प्रकाश पर्येंकार; आत्मसोद – मंगला शिवदास; अश्टतासां पावस – मनोज नरेंद्र कामत; मोल – अमिता गावणेकार; दोळे – सखाराम गो. शे. बोरकार; वर्तमान – प्रभाकर नाडकर्णी

Regd. No. GOA 130